# जाग

रौप्य-उत्सवी वर्स

वर्स २५ ◇ आंक ८ ◇ मार्च १९९९



ग

आंक ८ ◇ मार्च १९९९

: रवीन्द्र केळेकार

ारी : माधवी सरदेसाय

ी : सुमन्त केळेकार
प्रियोळ, म्हाड्डोळ, गोंय.

ी : तन्वी ग्राफिक्स,
बी-०४, आषाढ, माडेल, मडगांव.

: प्रिंटआर्ट ऑफसेट् प्रिंटर्स,
कुंडय इंडस्ट्रियल इस्टेट, कुंडय, गोंय.

## ह्या आंकांत



| | | |
|---|---|---|
| | : | रु. १००/- |
| वातीर | : | रु. ७५/- |
| ी पटी | : | रु. २५०/- |

ट Jaag Monthly च्या नांवाचो आसचो.
व भायले बँकेचो आसल्यार रकमेंत
दीक जोडचे)

ो :

ायनाळें
लदेल अपार्टमेन्ट्स
ादिश, पाजीफोंड,
य ४०३ ६०१.

काचें मोल : रु. ९/-

# नदर संपादप्याची

## हरिनो मारग छे शूरानो

कर्म, ज्ञान आनी भक्ती ह्या तीन मार्गां मदलो भक्तिमार्ग सोंपो असो खुबश्या जाणांनी समज करून घेतला. म्हूण, ते किर्ते करतात – ताळ मृदंग घेवन विठ्ठल विठ्ठल गजर सुरू करतात. तातूंत धुंद जातात. आनी धुंद जावन नाचपाक लागले म्हणटकूच आपूण भक्तिमार्गा वयल्यान चलपाक लागल्यात, असो समज करून घेतात.

गुजराती भक्त-कवी प्रीतम म्हणटा, तुमी समजतात तसो हो मार्ग सोंपो न्हय. हो लेच्या-पेंच्याचो, भिजूड भेंकऱ्यांचो मार्ग न्हय. शुरांचो, विरांचो मार्ग हो. ह्या मार्गावयल्यान चलतल्याक सगळ्यांत पयलीं आपणालें मस्तक ओंपूंक येवंक जाय. मस्तक म्हळ्यार कुडीर आसता ती निखटी तकली न्हय. तकलेंत जो हांव हांव करता, म्हजें म्हजें करता ताकाच 'ताच्या' पांयाकडेन दवरूंक येवंक जाय. ताका आपणालो अहंकार, आपणालें ममत्व, विकार, वान्सा इतलेंच न्हय, तर आपणाले विचार, विवेक, तर्क, चिंतन, मोग, नित्शय सगळें म्हळ्यार सगळें – कुस्कूट लेगीत सांबाळून दवरी नासतना – दिवन उडोवंक येवंक जाय. हातूंत बायल, भुरगीं, सत्या, संपत सगळें आयलें. जायत व्हय काळीज तुमकां तुमचें 'सर्वस्व' होमपाचें? जाल्यारूच हे वाटेन वचात.

जाका सगळें ओंपूंक येतलें ताकाच ह्या समर्पणांत कसली खोस भोगूंक मेळटा, कसलो रोस चाखूंक मेळटा तें समजतलें.

हरिनो मारग छे शूरानो, नहि कायरनुं काम जोने;
परथम पहेलुं मस्तक मूकी; वळती लेवुं नाम जोने... ध्रु
सुत वित दारा शीश समरपे, ते पामे रस पीवा जोने...

प्रीतम रोखडोच एक दाखलो दिवन विचारता – दर्याच्या तळाक वचून मोतयां पुंजावन हाडटल्यांक तुमी पळोवंक नात व्हय? चार चौगां सारकेच लोक ते. घर-दार बायल भुरगीं आशिल्ले. संवसारांत घुसपल्ले. चार पयशे जोडचे म्हूण वावरत आयिल्ले. पोट भरूंक मेळचें म्हूण दर्यांत उडी घेवन ते मोतयां पुंजावन हाडटात. केदें धाडस करतात ते हे खातीर! केदें संकश्ट मोलावन घेतात! दर्यांत उडी घेवन परते वयर सरतले म्हणपाचें तांकां खरेपण आसताच अशें ना. तरी आसतना, सगळे हुस्के, सगळ्यो चिंता, सगळे जवंजाळ सोडून ते उडी घेतात. तेन्नाच चार मोतयां तांच्या हाताक लागतात. तडीर उबे रावन पळेतात तांच्या हाताक सादी कवडी लेगीत लागना. फकत तमाशोच पळेल्ल्याचो आनंद तांकां मेळटा.

सिंधु मध्ये मोती लेवा, मांही पडया मरजीवा जोने. १
मरण आंग में तें भरे मूठी दिलनी दुग्धा वामे जोने;
तीरे ऊभा जुर तमासो, ते कोडी नव पामे जोने. २

मोतयां पुंजावन हाडपाक दर्यांत उडी घेतात तांकां कवीन **मरजीवा** म्हळ्यात. मरजीवा म्हळ्यार मरणाच्या तोंडांत आपणाक घालून घेतात, मरणाची पर्वा करी नासतना उज्यांत उडी घेतात ते. तेच महासूख जोडूंक पावतात, अशें म्हळां. महासूख म्हळ्यार येवन वता असलें सूख न्हय. सदांकाळ उरता असलें सूख.

खंयचेंच व्हड कार्य उज्यांत घालून घेतले बगर तडीक वचना. आनी आमी तर भक्तीन देव जोडपाक भायर सरल्यात. भक्तिची वाट फुलांची वाट न्हय. कुडिचीं जावं मनाचीं सुखां जोडपाची वाट न्हय. उरफाटी, हीं सुखां हुलपावन तांचो गोबोर करपाची वाट ही. पुराय जिविताचें रुपांतर करपाची वाट ही. जिवीत पवित्र, निर्मळ, शुद्ध करपाची वाट ही. भांगर निर्मळ आनी शुद्ध केन्ना जाता? तें उज्यांत पडटा तेन्ना. उज्याक 'पावक'

म्हणटात. पावक म्हळ्यार निर्मळ, पवित्र करपी. मनाचीं सगळीं दुबळीं, उणाक आंगां उज्यान लासून उडोवंक जाय. मनाचे सगळे म्हेळ हुलपावन उडोवंक जाय. तेन्नाच भक्ताचें महापद आमी जोडूंक पावतले.

प्रीतम विचारता, आसा व्हय हो धीर तुमकां? जाल्यारूच हे वाटेन चलपाक पावल उखलात. **मरजीव्यांची** वाट ही. लेच्या-पेच्यांची न्हय. कबीर म्हणटालो, हे वाटेन जो वता ताका मुखार फकत उजोच दिश्टी पडटा. पुणून फाटल्यान पांचवीचार भूंय चलत आयिल्ली पळोवंक मेळटा – **आगे आगे दावा चले, पीछे हरिया होय.**

उजवातेंतल्यान परमळ केन्ना येता? ती लासता हुलपता जळटा तेन्ना. करणेच्या उज्यांत मनशान आपणाक लासूंक जाय. आनी करणी गिन्यानाचे दोळे उकते दवरून केल्ली आसूंक जाय. तेन्ना ताच्या जिवितांतल्यान एक परमळ पातळटलो. ह्या परमळाकूच भक्ती म्हणटात. भक्तिची म्हूण खेरीत वाट ना. गिन्यानान भरिल्ल्या करण्यांची वाटूच भक्तिची वाट.

माथा साटे मोंघी वस्तु, सांपडवी नहि सहेल जोने;
महापद पाम्या ते मरजीवा, मूकी मननो मेल जोने... ५
राम अमलमां राता माता, पूरा प्रेमी परखे जोने;
प्रीतमना स्वामीनी लीला ते रजनीदंन नरखे जोने... ६

प्रीतम म्हणटा, जांकां रामाचो नशो चडला, तातुंतूच जे तर्रर जाल्यात तेच पूर्ण प्रेमी. बाकिचे सगळे अर्दकुटे. पूर्ण प्रेमीच देवाचो खेळ दीस रात पळोवंक पावतात. किरकोळ मनशाच्या नशिबांत हें ना.

प्रीतमचें हें भजन गुजराती भाशेचो एक दागिनो. एक अळंकार, आगळो वेगळो. उमाशंकर जोशी म्हणटाले, संवसारांतलीं सगळ्यांत बरीं शंबर भजनां कोणेंय एकठांय केलीं जाल्यार प्रीतमच्या ह्या भजनाक ताका तातूंत सुवात दिवचीच पडटली. केदो अभिमान उमाशंकरांक ह्या भजनाचो! दिसपाचोच. असलें भजन जे भाशेंत येता ती भास साद्या सुद्या लोकांची आसची ना. **मरजीव्यांचीच** भास आसतली. **पूणप्रिमींचीच** आसतली. उज्यांत घालून घेवंक येतल्यांचीच आसतली.

असलेच भाशेंत गांधी निर्माण जावंक पावता.

## मनशान पयलीं 'मनीस' जावंक जाय

आपूण कोण तरी जावचो अशें जण एकल्याक दिसता. कोणाक डॉक्टर जावचोसो दिसता, कोणाक ऍड्वोकेट. कोणाक पत्रकार जावचोसो दिसता. कोणाक चित्रकार. कोणाक साहित्यकार जावचोसो दिसता तर कोणाक संगितकार. कोण तरी जावचो म्हूण मनीस सदां यत्नूय करीत आयला.

कोण तरी जावनूच तो धादोसभरीत जायना. तो कोण तरी 'बऱ्यांतलो बरो' जावंक सोदता. बऱ्यांतलो बरो डॉक्टर, चित्रकार, संगितकार, पत्रकार, साहित्यकार जावचो म्हुण्णूय तो सदां यत्न करीत आयला आनी बऱ्यांतलो बरो कोण तरी जावनूय तो मुखार आयला.

धरुंया, कोणेंय एक नांव घेवन आमकां विचारलें, 'हाका तूं वळखता न्हय? कसो कितें मनीस हो?' जाल्यार आमकां सारकी जाप दिवंक येवपाची ना. तो डॉक्टर आसलो जाल्यार डॉक्टर म्हूण सांगूं येता. 'बरो डॉक्टर' म्हुण्णूय सांगूं येता. पुणून तो 'कसो कितें' हें सोंपेपणान सांगूंक येवपाचें ना. कित्याक, बऱ्यांतलो बरो डॉक्टर लेगीत दुश्टांतलो दुश्ट मनीस आसूं येता. स्वार्थी, घमेंडी, कपटीय आसूं येता. बऱ्यांतलो बरो कवीय असोच दुश्ट कपटी आसूं येता. हांवें बऱ्यांतलो बरो एक ॲडवोकेट बायलेक बडयेन मारता तो पळेला. आनी 'घाल खळाक व्हरून तुगेली ती ॲड्वोकेसी' अशें म्हणून हांवें ताका म्हजे तकलेंतलो पुसुनूय उडयला.

हाचो अर्थ मनीस 'कोण कितें' हाचे पुरस 'कसो कितें' हे कसवटणेकूच आमी चड मोल दितात, असो जालो ना? सगळे आमी हेच कसवटणेन दुसऱ्यांक मेजीत आयल्यात.

पयर गार्डन टॅगार्टाची एक कविता वाचूंक मेळ्ळी. कविता ... गीताच म्हणची ही एक नवी, हे तरेची ती दिसली. आरंभाकूच तो ... I wish I were big enough honestly to admit ... shortcomings. म्हज्या सभावांत जायते दोश आसात, जायते ... आसात. म्हाका हे दोश, ह्यो त्रुटी दिश्टी पडनात. आनी संबंद ... ह्या भंयान दुसरोय कोण म्हाका म्हज्यो त्रुटी दाखयना. बरें, दाखय... जाल्यार म्हाका आवडयना. हांव ताचेपसून पयस वतां आनी स्व-रक्ष... – सॅल्फ डिफेन्साचें – कवच आंगार चडयतां. खरेपणानशीं, म्हजे ... म्हज्यो त्रुटी म्हाका कोणें दाखयल्यो जाल्यार त्यो मानून घेवपा ... – 'हय, तूं म्हणटा तें खरें, ह्यो त्रुटी म्हज्यांत आसात' अशें मान... मानून घेवपा इतलो – हांव व्हड आसूंक जाय. टॅगार्टाक मनीस-... बेस बरो समजला आनी ताचेर जैत कशें जोडचें हाचो उपायूय ... होलमला. तो म्हणटा, दोश कोणेंय दाखयतकूच ते मानून घेवपा ... तुमी उदार जायात, व्हड जायात. म्हणटकूच, ते काडून उडोवपाचे ... तुमकां वेगळे करचे पडचे नात. आपणांत हे दोश आसात म्हणपाची जाण... जातकूच दोश लजतात आनी आपशींच गळून पडटात. ते हुमटावन काडू... यत्न आमी करतात तेन्ना ते घट्टूय जातात. प्रामाणिकपणान मानून घे... जागरुकपणान कबूल करात. म्हणटकूच, ते गळून पडपाची प्रक्रिया ... खिणापसून सुरू जातली. दोश मानून घेवप होच दोशांपसून मेकळे जाव... खरो मार्ग. दोश मानून घेवपा इतलें उदार, इतलें विशाळ आमी ... जावंक जाय.

मनशाच्या हातांत थोडिशी सत्या संपत ख्याती, कितेंय येवंदी ... तुस्त गावपी मनीस आपशींच ताचे भोंवतणी एकठांय जातले. केन्ना ... ते सुमाराभायर तुस्त करतले. केन्ना फावता तितलीच करतले. सुमार... जाता ती तुस्त वळखुपाक वेळ लागना. पुणून फावता ते तुस्ती ... मनशान खरेपणानशीं जागरूक रावंक जाय. कित्याक, ही फावता ती ... केन्ना केन्ना मनशाक सकयल ओडटा. मनीस तिच्या हुंवारांत केन्ना ... व्हांवनूय वता आनी तुस्त करपी मनीस हाचो लावूय घेता. म्हूण ... म्हणटा, I wish I were brilliant enough to accept flat... without its making me arrogant. 'ब्रिल्यंट' म्हळ्यार हुशार, ... सावध, जागरूक. आमच्या ह्या देशांत सत्येर आशिल्ल्यांची तुस्त-तोख... करपाची एक व्हडली परंपराच चलत आयल्या. आमी देवांचीं 'स्तो... बरयल्यांत. स्तोत्रां- म्हळ्यार तुस्तगितां. तातूंत आमी देवांच्या दोळ... आनी ओंठांचीय तुस्त केल्या. ही तुस्त आयकून देवांचेर कितें परि... जाला जातलो, देवांक खबर. पुणून व्हड मनशांचेर जाता तो आमी पळे... जवाहरलालांचेर जातालो. He is prone to flattery अशें तांकां वळ... कांय जाण म्हणटाले. परिणामी, नालायक मनीस तांचे भोंवतणी आन... गुनाळ्यो काडून नाचताले आनी बरे मनीस तांचे पसून पयस व... जवाहरलालजीं सारकेल्यांचेरूय जी तुस्त येदो परिणाम करताली ती ... सारकेल्यांचेर कसलो करीत, सांगूं नज. म्हूण तुजी तुस्त करतल्या ... पसून तूं सतर्क राव. कांयच न्हय जाल्यार, तुस्त आयकून तूं ... वचचो ना, गर्वान फुलचो ना हाची जतनाय घे, अशें कवी सांगता.

मनून म्हळां, विचारशील मनशान भौमानाक आनी तुस्त तोखण... विक्ख मानून तिचे पसून पयस रावंक जाय आनी अपमान वा ... कानार पडली जाल्यार अमृत जाल्ले वरी ती पियेवंक जाय.

कवी मुखार म्हणटा, I wish I were tall enough to to... about deceit. कपट वा फटींगपण आपणाक आफडूंक पावचें ना ... ऊंच (व्हड) मनशान आसूंक जाय. कांय जाण म्हणटात, आपणें को... फटोवचो न्हय आनी कोणापसून आपणाक फटोवनूय घेवचो न्हय. ... कांय जाण म्हणटात, दुसऱ्यांनी आपणाक फटयल्यार जाता. आपणें को...

कवी म्हणटा, इतल्यान भागना. सगळे तरेचे फटवणुके चूंक जाय.

वपाची शिटकावणी दिता आसतनाच कवी म्हणटा, एक का, संवसारांत तूं बरे भाशेन जियेता तो तुजेर मोग करपी, वपी लोक तुजे भोंवतणी आसात म्हूण. ह्या मोगाची कदर वंक जाय. Be strong enough to treasure love. 'ईश्वरी अंश' ताकाच मोग म्हणटात. तुका मोग घेवंक सो मोग दिवंकूय येवंक जाय. मनशां मनशां मजगतचे संबंद च बांदिल्ले आसतात. हे संबंद घट करूंक जाय. तूं आनी तीं उदासीनतायेचो जो सागर पातळ्ळा ताचेर तुका मोगाचो जाय. तूं जांचेर मोग करता तितलींच मनशां तुजीं आसतात. लीं मानता. हें वर्तुळ वाडयत व्हरूंक जाय. मोगाच्या संबंदांत र येवंक दिना. खरी गिरेस्तकाय ती मोगाची.

वीन म्हळां —

दुनिया से हाथ धोकर देखो,
छ रहा सहा है, खोकर देखो.
र्ज करूं कि इसमें क्या लज्जत है,
तबह किसी के होकर तो देखो.

चार्ची सुत्रां सांगून कवी म्हणटा, I wish I were brave welcome criticism. संवसारांत कोण न्हय कोण आमची ासुंकूच जाय. सामान्यतायेन आमकां टिका सोंसना. कवी ल्हान तूं जावं नाका. टिका आयक. ती सोंस. सादी गाळी लेगीत सोंसपाची तांक आंगांत वाडय. पुणून तोल का. बुद्द थीर दवरुनूच तुका टिके कडेन पळोवंक येवंक री आसत जाल्यार ती करतल्याचे तुवें मनांतल्या मनांत ानूंक जाय आनी फट आसली जाल्यार तिची उवेखणी वंक जाय. पुणून हें काम सोंपें न्हय. टिका सोंसपाक वा करपाक मनीस brave आसूंक जाय. धीट आसूंक जाय. जाय. धीट आनी धीरवान म्हुण्णूच आपली प्रतिमा लोकां अशी इत्सा मनशान बाळगूंक जाय.

चुको वळखुपा इतलो मनीस शाणो आसुंकूच जाय. चुको कीं घडटात. चुको करीत करितूच मनीस फुडें सरता. व्हडल्या ांकडल्यान लेगीत चुको घडल्यात. पुणून सामान्यतायेन ापणाली चूक कबूल करिनात. चुको कबूल करपा इतलें आसुंकूच जाय. पुणून एक फावट केल्ली चूक पर्थून केन्ना ो नित्शयूय ताणें करूंक जाय. मनीस केदोय बुदवंत आसूं, वंत आसूं, अखेरेक मनिसच तो. खुबशा आंगांनी दुबळो. ान दुबळो. म्हूण तो चुको करता. आपणाल्यो चुको आपणें पुणून कवी म्हणटा, एक सांगून दवरतां, दुसऱ्यांच्यो चुको पिशेपणा करूं नाका. दुसऱ्यांच्यो चुको तुका माफ करूंक इतलें काकुळटेन भरिल्लें तुजें काळीज आसूंक जाय. Be ate enough to understand human frailties. दुसरोय ोच, आपणा इतलोच दुबळो म्हणपाचें तुका कळूंक जाय. गीं चुको घडल्यो जाल्यार 'तातूंत कितें? आपणा हस्तुकींच त आसात' अशें तुका दिसूंक जाय.

चुको पळोवन ताचेर तिडकप, ताका ख्यास्त करप हीं ुको माफ केल्यो जाल्यार मनीस चुको करीत रावतलो अशें शेपणां. मनशांत 'लज' नांवाचो एक गूण आसा. संस्कृत ाक 'ऱ्ही' म्हळा. तोच मनशाक चुको करूंक दिना. 'तुका शें सांगून तो ताका चुकां पसून कडेक काडटा. चुको माफ करप हेंच दुसऱ्याक चुकां पसून पयस करपाक पुरो.

कवी निमाणें म्हणटा, I wish I were humble enough to appreciate others' greatness. दुसऱ्यांचें व्हडपण वळखुपा इतलो आपूण नमळ आसचो म्हणटा. नमळ म्हळा. शाणो म्हणूंक ना. कित्याक, नमळाय आंगांत आसले बगर दुसऱ्यांतलें व्हडपण मनशाक वळखुंकूच येना. सामान्यतायेन सगळे आमी आपणाक आगळे वेगळे मानीत आयल्यात. आगळे वेगळे आमी आसतातूच. पुणून एक विसरूंक फावना, आमचे इतलेच आगळे वेगळे दुसरेय आसतात. जल्मा आयिल्लो जण एकलो आगळो वेगळो आसता. खूब जाणांक हें कळना. म्हूण दुसऱ्यांक ते लेखीच नात. तें कित्याक, आपणा परस व्हड मनशाक लेगीत मनीस व्हड मानिना. दुसऱ्यांतलें व्हडपण कळप हो एक व्हडलो गूण. तो आमच्यांत आमी केळोवंक जाय.

लोकीक नदरेन व्हड मनीसूच व्हड आसतात अशें न्हय. किरकोळांतलो किरकोळ मनीस लेगीत व्हड आसता. ताचें व्हडपण आमकां वळखूंक येवंक जाय. तें वळखूंक येवपाक मनीस नमळ जावंक जाय. आंगांत नमळाय नासत जाल्यार मनीस दुसऱ्यांतलें व्हडपण केन्नाच वळखूंक पावचो ना. आपणाकूच तो व्हड मानतलो. आपणाक व्हड मानता तो मनीस साप्प ल्हान आसता, अशीय एक शिटकावणी कवी दिता.

मनीस बऱ्यांतलो बरो कवी, लेखक, दोतोर, आद्वोगाद जालो म्हूण भागना. बऱ्यांतलो बरो 'मनीस' जावपाचो हावेस मनशान बाळगूंक जाय आनी अंतर्मुख जावन मनीसपणाची साधना करीत रावंक जाय.

हो गार्डन टॅगार्ट कोण, खंयचो, खंय रावता, आसा काय ना, कांय खबर ना. पुणून ताची ही कविता छापची आनी तरणेपणांत पावल दवरपा वेळार जण एकल्या भुरग्याच्या हातांत दिवची अशें दिसलें.

## संस्कृत

म्हळें, संस्कृत शिकतलों. पं. सातवळेकरांचीं पुस्तकां घेवन बसलों. कोणाच्याच आधारा बगर आपले आपूण संस्कृत शिकूंक येता असलीं सुमार चोवीस ल्हान ल्हान पुस्तकां तांणी बरयल्यांत. पयलीं आठ 'शिकतां'सर दोन म्हयने लागले. थोडी थोडी संस्कृत समजुपाक लागली.

इतल्याच ह्या भांडवलार वाल्मीकी रामायण घेवन बसलों. तातूंत विश्वामित्राच्या तोंडांतल्यान भायर सरिल्लें 'घृतं मे चक्षुः' वाक्य मेळ्ळें. अर्थ लावपाक लागलों. 'घृतं' म्हळ्यार तूप. 'मे' म्हळ्यार म्हजे. 'चक्षुः' म्हळ्यार दोळे – 'तूप म्हजे दोळे' असो अर्थ लागलो. 'तूप म्हजे दोळे' म्हळ्यार कितें? म्हऱ्यांत आशिल्ले सगळे संस्कृत मराठी, संस्कृत इंग्रजी कोश चाळ्ळे. अर्थ स्पस्टूच जालोना. अखेरेक एका जाणकाराक विचारलें. ताणें सांगलें, 'घृतं' म्हळ्यार अत्यंत पवित्र, अत्यंत निर्मळ. कोयर सगळो काडून उडयल्लें. 'घृतं मे चक्षुः' म्हळ्यार म्हजे दोळे पवित्र, निर्मळ, स्वच्छ. कसलोच कोयर भितर नाशिल्ले. म्हज्या ह्या दोळ्यांक वांकडें कांयच दिश्टी पडना. कसलेंच पातक पळोवपाची तांकां इत्सा जायना.'

म्हळें, अब्बा! इतली 'बोलकी' भास ही! मेली म्हणटात कांय जाण ती. सपन पडूं नाका तिका मरूंक दितल्यांचें. मागीर संस्कृत उतरांचो अर्थ समजून घेवपाचो छंद वाडलो. एक एक उतर घेवन हांवें ताका विचारचें, 'तुका कितें सांगपाचें आसा? सांग पळोवया.' आनी ताणें म्हजेकडेन उलोवपाक लागचें.

'उदक' उतर घेतलें. 'आपूण भितरल्यान भायर आयलां' म्हूण ताणें सांगलें. उदका खातीर संस्कृतांत आनीक कांय उतरां आसात. 'पानीयम्' म्हळ्यार 'तान भागोवपी', 'पय' म्हळ्यार पोसवण दिवपी. 'नीर' म्हळ्यार तृप्त करपी. मागीर 'समुद्र' उतराकडेन लक्ष गेलें. सम् + उद् + रम. सम म्हळ्यार चोंय वशिंनी सारकेंच पातळ्ळेलें. 'उद्' म्हळ्यार वयर सरिल्लें.

'रम' म्हळ्यार खेळटा असलें उदक.

'पृथ्वी' उत्तर मुखार आयलें. पृथ्वी म्हळ्यार पातळ्ळेली. पृथ्वी खातीर आनीक कांय उतरां मेळ्ळीं. 'भूमि' म्हळ्यार तरांतरांचे जीव (तातूंत झाडांय आयलीं) जल्माक घालता ती. 'धरा' म्हळ्यार सगळ्या जिवांक पोसवण दिता ती. 'गुर्वी' म्हळ्यार वजन आशिल्ली. जड 'पेझाद'. 'उर्वी' म्हळ्यार विशाल. 'क्षमा' म्हळ्यार सगळें सोंसून घेवपी. एक एक उत्तर अर्थान उपाट भरिल्लें, एका एका उतराक ताचें अशें खेरीत व्यक्तित्व आशिल्लें. एकाच उतराचे कितलेशेच अर्थ आनी एकाच अर्थाक कितलींशीं उतरां.

ना, ना. संस्कृत आमच्या जिवितांतली ना जावंक दिवंक जायना. भाशेचें येदें गिरेस्त हें दायज आमी होगडावंक जायना. आमच्या ह्या 'सॅक्यूलर' देशांत शाळेंत ती शिकूंक नाका मेळूं. घरांत आमच्यांनी ती शिकूं येता. शिकूंक जाय. तिचे कडेन आशिल्लो आमचो संबंद तुटूंक जायना. रगत तें सगळ्या देशी भासांच्या शिरंत्रांनी घोळपी. शिरंत्रांतलें रगतूच ना जालें जाल्यार देशी भासो रक्तक्षय, पंडुरोग जावन मरतकुड्यो जावन पडटल्यो.

## 'कुर्वन्नेवेह कर्माणि जिजीविषेत्'

कोणूय निवृत्त जालो म्हूण कळटकच 'ओ हो, हाचो सांगात आमकां आतां चड दीस मेळपाचो ना' अशें (थुमेकालशें) म्हाका दिसपाक लागता आनी हड्डें कलकलपाक लागता. कितलींशीं वर्सां एकेच तरेचें काम करपाची जांकां संवंय जाल्ली आसता ते काम सोडून दितात तेन्ना तांच्या जिवितांत एक पोकळी निर्माण जाता ती हांवें पळेल्या. ही पोकळी कशी भरून काडची हेंच तांकां समजना आनी इल्ले इल्ले करून ते रिते जावन पडटात तेंय पळेलां. आनी—

रोखडेच, कांय वर्सां भितर, ते मरतात.

काकासायब णव्वद वर्सांचे जायसर सदचे वरीच कामां करताले. सद्दां धा बारा चिटींक जापो बरयताले. एकाद-दुकलो लेख बरयताले, कोण येता ताचे कडेन तरांतरांच्या विशयांचेर उलयताले. ताका कितें करचें तें सांगताले. सप्तकांतल्यान एक दोन दीस व्याख्यानां दिवपाक वताले आनी सद्दां नवें नवें कितें वाचीत आसताले. साठ वर्सां पयलीं तांचो जो नित्यक्रम सुरू जाल्लो तोच णव्वद वर्सांचे पिरायेर लेगीत चलत राविल्लो. बंदखणींत पावले थंय लेगीत तांचो होच नित्यक्रम चल्ला. भोंवप तर तांचें आयुष्यभर चलत राविल्लें. पांयांक चाकां आशिल्ले वरी आयज हांगा फाल्यां थंय हे भशेन ते एकासारके भोंवत रावल्यात. आठ-धा खेपे तरी तांणी पृथ्वी प्रदक्षणा काडल्या आनी देशांत ते जे भोंवल्यात ताचो हिशेब मेळपाचो ना. ते पावूंक नात अशी एक्क सुवात देशांत आसची ना. तांणी पळोवंक ना असलो एक पर्वत आसचो ना, एक न्हंय आसची ना, एक घसघसो आसचो ना, एक्क इतिहासीक थळ आसचें ना. केन्नाय 'तुमच्या दीर्घायुष्याचें गुपीत कितें' म्हूण कोणूय विचारताले तेन्ना ते म्हणटाले, 'हांव एका सारको कामां करीत आसतां, एका सारको भोंवत आसतां म्हूण जाण्टेपण आनी मरण दोनूय म्हाका धरूंक पावनात. तशीं, दोनूय म्हजे फाटल्यान लागल्यांत पुणून हांव तांकां अजून मेळूंक पावूंक ना... म्हजो हो नित्यक्रम बंद पडटलो त्याच दिसा दोनूय म्हाका धरतलीं.'

एक दीस तांच्या ह्या नित्यक्रमांत खंड पडलो. इन्दिरा गांधींनी आणीबाणी हाडली आनी जयप्रकाशां सारकेल्या एका राष्ट्रपुरूषाक धरून तिणें बंदखणींत घालो. काकासायबांक खूब वायट दिसलें. इन्दिरा गांधी तांकां खूब मानताली. आपणाल्या जल्मदिसा येवन तांचो आशिर्वाद घेवन वताली आनी तांच्याय जल्मदिसा तांकां प्रणाम करपाक येताली. काकासायबांनी तिका सांगून धाडलें, जेपी सारकेल्यांक बंदखणींत घालप स्वतंत्र भारताक सोबना. तुमचे कितें मतभेद आसात ते विनोबांक मदीं घालून आमी पयस करूंया.'

इन्दिराजींनी जाप धाडली, 'तुमी हातूंत पडचें न्हय अशें म्हाका दिसता जे.पीं. फाटल्यान सी.आय.ए. आसा आनी ती देशांत बेबंदशाय मातोवपाक मुखार सरल्या.'

काकासायबांनी विनोबांक सांगून धाडलें, 'आमी आसतना जे.पी सारकेल्यांक बंदखणींत घालप आनी आमी ओगी रावप आमकां सोबना तुमी मदीं पडचें आनी सगळें जाग्यार घालचें अशें म्हाका दिसता.'

'अजून वेळ येवंक ना.' विनोबांची जाप आयली.

काकासायबांनी रोखडोच निर्णय घेतलो, परिस्थितिचेर आपलो ताबो उरूंक ना जाल्यार खबरेपत्रां तरी कित्याक वाचचीं? तांणी खबरेपत्रं वाचपाचें बंद केलें. लेख बरोवपाचें बंद केलें. भाशणां बिशणां सगळें सोडून दिलें. आठ दीस लेगीत वचूंक नात, जाणटेपणान तांकां 'धरलें'.

अप्पा पटवर्धनांची आत्मकथा प्रस्तावने खातीर आयिल्ली. अप्पा तांगेले एक सांगाती. गांधींक पुराय समजल्ले जे आठ धा जाण देशांत आशिल्ले तांच्यांतले एक. प्रस्तावना बरोवन दितां अशें मोटे उमेदीन म्हळें. पुणून आत्मकथा ल्हान न्हय. सुमार आठशें पानांची. आठशींय पानां एका दिसा वाचून जायनाशिल्लीं. अशीं तशीं शंबरेक जातालीं. फुडलें वाचपाक दुसऱ्या दिसा सुरवात करीत जाल्यार काल कितें वाचिल्लें ताची यादूच उरनाशिल्ली आठ धा दीस ते आपणा लागींच संघर्श करीत रावले. अखेरेक प्रस्तावना आपणाकडल्यान बरोवन जावची ना अशें तांकां दिसलें. हांव म्हऱ्यांत बशिल्लों. 'एक कार्ड घे', तांणी म्हाका म्हळें आनी पुस्तक उजवाडावपी संस्थेच्या कारभाऱ्याक तांणी बरयलें, 'पुराय पुस्तक एका दिसांत वाचून जायना आनी काल वाचिल्ल्याचो आयज उगडास उरना... म्हजे कडल्यान प्रस्तावना बरोवन जावपाची ना... म्हाका वायट दिसता.' हांवें कार्ड बरोवन घेतलें, तांची सय घेतली. पुणून कार्ड पोस्टांत घालचे बदला म्हजेच कडेन सांबाळून दवरलें.

हांवें पुस्तक मागून घेतलें. दोन तीन दिसांत पुराय वाचून काडलें महत्वाचें जें जें कितें दिसलें तें 'मार्क' केलें आनी तें काकासायबां मुखार दवरून म्हळें, 'हें इतलेंच वाचून काडात. तीस चाळीस पानां आसात आनी म्हाका प्रस्तावना डिक्टेट करात, हांव बरोवन घेतां.'

काकासायबांनी आयुष्यांत शेंकड्यांनी प्रस्तावना बरयल्यात. ही तांगेली निमाणी प्रस्तावना आशिल्ली. उजवाडावप्याक बरयल्लें कार्ड सन्निधींत तांगेल्या कागद-पत्रांनी दवरिल्लें मेळटलें.

मागीर ते मनशांकूच विसरपाक लागले. म्हजो आनी तांचो पन्नास वर्सांचो संबंद. उमाशंकर जोशींचो तर पंदरा वर्सांचो अदीक. पुणून आमकां दोगांकूय आमचीं नांवां सांगचीं पडटालीं. आचार्य स. ज. भागवत तांगेले एक सांगाती ते भायर पडिल्ल्याची खबर तांकां सांगली. जाल्यार भागवतांची तांकां यादूच जायना जाली. हांवें एक दीस तांकां विचारलें, 'तुमी सगळ्यांक विसरले. गांधींक विसरले व्हय?'

तांणी जाप दिली, 'ना... तांचो ह्या देशाचेर आनी खासा म्हजेर येवढो व्हडलो प्रभाव आसा की कोणूच तांकां विसरूंक पावचो ना...' मागीर मुमुरख्यांनी हांसून म्हणपाक लागले, 'ते नात हाचो मात केन्ना केन्ना उगडास उरना. खूब दीस जाले, मेळूंक ना... मेळूंक वचूंक जाय, अशें दिसता. म्हणजे, माझ्यापुरते गांधी अजून जिवंत आहेत...'

नवें नवें वाचप मात ते एकासारकें करताले.

म्हातारपणान धरतकूच मरण कित्याक फाटीं रावतलें आशिल्लें? पिरायेच्या शाणणवाव्या वर्सा तांकां मरण आयलें.

मनशान अखेर मेरेन कामां करीत रावंक जाय. नाजाल्यार मरण ताका केन्ना उखलून व्हरीत सांगूं येना. कामाक लागतात तेन्नाच मनशान निवृत्त जातकूच कितें करचें हाचो विचार करूंक जाय आनी कामांत आसतना ताची संवंय लावन घेवंक जाय. आमकां हें कळना. ***

# निमाणो अश्वत्थामा

## महाबळेश्वर सैल

ही कथा न्हय, निबंध न्हय, वैचारीक लेखय न्हय. तें एक सैम साहित्य. हाचे पयलीं 'एके सावळेचें मरण', 'साखर आंबो' हें हेच तरेचें लिखाण हांवें केलां. तसो हो साहित्यांतलो नवो साहित्य प्रकार म्हणुंये. सैमाकय साहित्य निर्मणेचो पुराय आयाम आसा अशें हें बरप वाचतकीर कळुंये.

— महाबळेश्वर सैल

के तलीं खरब आनी अरब वर्सां जालीं काय तिका बिग बँगापसून
ून येवन आनी मगेर सुर्यापसून सुटून येवन! एक उज्याचो गुळो, भगभगतें
ा! लावारसाचे लोट! उज्याचे हुंवार! कोट्यांनी वर्सांचे उतळताप,
ळमळे, हुलाताप सोंसत होमखणांत पडून आसली म्हजी धरतरी मांय!
भयंकर एकसुरेपण आनी पडींग दरिद्रपण! तरीय नित्य नेमान सुर्या
वतणी घुंवत रावली. दर दिसा सुर्या तिचेर उदेतालो पूण तिचें पडींग
जपण कांय पयसावनासलें. एक थेंब उदक ना, वारो ना, मोड ना, कुपां
फक्कत रखरखतें वोत. पोटांतय उजो आनी वयल्या आंगारय उज्याचो
भग. सुर्या दनपारचो माथ्यार पावलो म्हणटकीर सगळें पेटूंक लागलां
नी उज्याचे लोट मळबांत पावल्यात अशें दिसतालें. कसली आस्त ना,
डार ना, शितळसाण ना. खंयचींच गणितां जुळून येनात. सैमाची बुद्द
वना. एक कुचकामी उज्याचो गुळो!

मगेर सुरू जाली युगांयुगांची खर तपश्चर्या! नित्य नेमान सुर्याची प्रदक्षिणा
लप, ताचे वांगडा बांदून रावप. घूंव घूंव घुंवप. पुराय वर्स उज्याच्या
ातापाचो एकच रुतू. आदि अंत नाशिल्ले उबगणेचें कुड्डें काळचक्र!
मळब तर सामकें आरपार रितें. कोण ओडून घेतलो हो तिचो उज्याचो
भग! कोण उबो आसा आकाश अवकाशाचे पोकळेंत! खंयसावन येतात
एकसुरेपणाचे घूंऽऽ घुगूम सूर! हे तर किण्ण वांज शांततायेचे आवाजहीण
र!

कोणय आसत काय म्हजे कुडिंतल्या उज्याच्या गर्भांत! आसत काय
ोण आकाशांतल्या लपलपत्या किर्णांत! कोणय पळयत आसत काय म्हाका
ाकाशगंगेंतल्यान, नखेत्र मेघांतल्यान! कोणय ओडून घेत काय हो म्हजो
जो, दीत काय इल्ली शितळसाण! इल्ल्या इल्ल्या शिंयाची भीक हांव
ाचेसरीं मागत घुंवत आसां! म्हाका अशें हें सुर्या भोंवतणी फुक्याचें घुंवूंक
ोणें लायलें? कोणें केलें म्हजें हें गिरगिरें? हें अंतर कोणें पाडलें, हीं
णितां कोणें मांडलीं? कित्याक म्हण? कोण, खंय आसा तो? हें फक्कत
क गणीत काय कोण तरी खंय तरी उबो आसा मध्यबिंदूर? आकाश
वकाशांतल्यान फक्कत आवाजहीण वांज सूर! देवा, ह्या अवकाशांतलें
ांज एकसुरेपण म्हाका बादूंक दिवं नाका!

गिरगिरें घुंवत रावलें. वर्सानवर्सां वारी केल्लेवरी आकाश माड्डयत रावलें. पूण अंतरगर्भांतलो रखरख तिच्यान सोसूं नज जातालो. निर्मणी तर कसलीच ना. फक्कत वांज भगभग. तिका दिसतालें, एकादरो महाकाय तोंडा शेपडेचो धुमकेतू तिचेर आपटचो, कुडके कुडके जावन आपणें पुराय अवकाशांत फाफसचें. हो एकसुरो रखरख सोंसचे परस कसो तरी आत्मघात करून घेवचो!

पूण तेन्ना एकच तिचें बरें आसलें. तिचेर शिरो, शिरकोज्यो नासल्यो, शिमो सरादी नासल्यो. हड्ड्यार मारिल्ले फोंडय नासले. तिचे वांटेय घालूंक नासले. तेन्ना जाणय नासुंये फुडाराच्या ह्या अनर्थाची. तिका ती जाण आशिल्ली जाल्यार ती तपश्चर्या करचीच नासली. निश्ठेन सुर्याभोंवतणी घुंवत रावची नासली. शिंयाची भीक मागची नासली. खंयच्या तरी एका खिणाक आपल्या मागविल्यान कुशीक सरून दिशाहीनपणान भरकटत वचून सोताचे तुकडेतुकडे करून घेतासली.

कोट्यांनी वर्सां गिरगिरें घुंवतकीर उज्याचीं मोडां मंत्रायल्लें उदक मारिल्लेवरी इल्ली इल्ली करून शांत जाली. पयलीं आंगाकांत इल्ली इल्ली थंड जाली, घट जाली. रातचें केन्ना शींय खावंक लागलें. भोंवतणी धवसो काळसो धुंवरसो पातळूंक लागलो. कोटीभर वर्सानं तो धुंवर काळो जालो. ताची जाडीय वाडली. काळो धुंवर मळबामेरेन पावलो. भोंवतणी एक कवच खूब पयस घट जावंक लागलें. तिचेर राखणेचें छत्र धरूंक लागलें. सरभोंवतणी काळो धुंवर. ताचे वयर आनीक काळोख... एक कवच... इल्लो खवदळ... शीं उबाळाचे खेळ. भर दनपरांय सुर्याचीं किरणां आंगार येवन पडनासलीं. अशी काळखाची एक महारात सुरू जाली आनी ती रात देडेक लाख वर्सां लांब जायत गेली. देड लाख वर्सांची किट्ट काळखी रात! काळखाचीं मोडां. उदकाचो धुंवर. हवा, धुंवर, वाफ, उदक हांचो खवदळ.

तरीय एक खंत आसली. ज्या सुर्या भोंवतणी लाख लाख वर्सां ती कुड्डेपणान घुंवताली ताचें दर्शन घडनासलें. एक कीर्ण तिचेमेरेन पावनासलें. पूण आतां ल्हवल्हव तिच्यांत जीव भरूंक लागिल्लो. ती कूस पर्थूंक लागिल्ली!

एक दीस त्या काळ्या खवदळांत एक वाऱ्याची झुळूक ल्हवल्हव व्हांवली.

धुंवर मात्सो हाल्लो. वयर सकयल जालो. ती वाऱ्याची झुळूक खंयसावन हाल्ली खंयसावन व्हांवली कांयच सांगूं नज. धतरिर हालिल्ली वाऱ्याची पयली झुळूक. वारो हाल्लो आनी ल्हवल्हव पावस शेनेवंक लागलो. इल्लो थंड थंड वारो, इल्लें इल्लें पावसाचें शेनेवप. हें अशें पावसाचें शेनेवप रातदीस लाख लाख वर्सां सारकें चालूच आसलें. पूण शेनेल्लो सगळो पावस, सगळें उदक तापिल्ल्या तव्यार पडिल्लेवरी वाफेवन परत वयतालें. इल्लें म्हण उदक भुंयेर थारनासलें. जसो धतरिची तापसाण पालोवंकच हो पावस शेनेतालो.

आनीक आनी कांय लाख वर्सांनी सुरू जालीं मोडां, विज्जेचो झगझग आनी मळबाचें कडकडाट वाजप. विज्ज तर अशी झगझगताली, मळबांत खिणाखिणाक आरपार उज्याचे लोळ व्हांवताले. मळब तर अशें वाजतालें, सगळें मळब पयसुल्ल्या गिऱ्यासयत कोसळून पडटा अशें दिसतालें. मोडाचो, कुपांचो, विजेचो आनी मळब वाजचो हो अपरूप खेळ कितलिशींच वर्सां सतत चालू आसलो. तातूंत हरन्नारी आनी चिरन्नारी पावस. कोळंब्यांनी उदक रकयल्लेवरी भुंयेर उदक रकतालें. एकेक थेंब मुठियेदो. रात दीस जगबुडिचो पावस. अशें पडिल्लें उदक दिशाहीण जावन घोगेत वयतालें. सागरां घडयतालें. उजो पालवतालो, मोडां थंड जातालीं. ओली माती आनी उजवाड हांचो संयोग घडटालो.

आकाश अवकाशांतल्यान खंयची शक्त अवतरली पसवली काय! केन्ना खंयच्या उजवाडाच्या किर्णान ओले उदकाळ मातयेक स्पर्श केलो काय! कोणें जीव ओतलो काय, खंय कितें चाळवलें काय! अणुचे जाग्रतायेक कोणें जागे केलें आसतलें? धतरिचो तो फुल्लट गुरवाचार आनी तिसऱ्या म्हा-झुजाचो पयलो अणुबाँब हांचे मदलो विद्राट, क्रूर कृतघ्नपण! फक्कत मनिसच हातांत चूड घेवन राविल्लो म्हारू. कित्याक जल्माक घातलो तुवें ताका? कित्याक कुराड धरचो हात दिलो ताका! कित्याक राकेस मेंदू दिलो? सोंशावरी सादो मेंदूच फाव आसलो ताका. आदी अमिबाच्या गर्भांत एक दुस्मान लिपून बसला हें तुका कशें कळ्ळें ना?

रणरणत्या भगभगापसून शांत पणटे दिव्यामेरेनचो हो प्रवास. उज्यापसून मोगरेचे वाली मेरेनचो हो प्रवास. तप्त गुळ्यापसून झरिच्या शितळ थेंबथेंब उदका मेरेनचो हो प्रवास. पर्डीग तळपट्या सड्यापसून किराच्या हरव्या पांखां मेरेनचो हो प्रवास. म्हासागराच्या म्हापुरीसान चिंचाळ्यांतल्या म्होंवाळ उदका मेरेनचो हो प्रवास... तांचेर असो हो अणुबाँबांचो शिंवर...!

कितले दगदगे सोंसून धरतरेन जोडलो वारो, पावस आनी उजवाड. आनी जोडली ओली माती! मनीस जल्माक येवचे कोटीकोटी वर्सांआदीं घडून आयिल्लें हें सगळें मनशाखातीर घडून येवंक नासलेंच. मनशान कित्याक धरलें, हो पावस आपणाखातीर झडटा, हें वारें आपणाखातीर व्हांवता, ही माती ओली मासाळ आपणाखातीर जाल्या म्हण? मनशान सोताक कित्याक इतली व्हडविकाय दिली? ते 'शक्ती'क आपणावरीच कित्याक चित्रायली? ज्वालामुखिचो खतखतो पयलीं, दुसरी जगबुडी, बर्फाचो शिंवर, हिमयुगां हातूंत मनीस खंयच नासलो. अमिबायेदो लेगीत नासलो. कसल्यो ताच्यो चिरंतन आत्म्याच्यो फटाशो, पुनर्जल्माचीं तड्डकां! मनशाक पुनर्जल्म आसल्यार डायनोसराक कित्याक आसूंक नज? जल्ल्याक, माळुणाक आत्मो कित्याक आसूं नजो?

धतरिन एक मुंड हात खोल मातीच आपल्या आंगावयल्या जीवजिवाण्यांक, झाडांझोपांक दान म्हण दिल्ली. तिणें आवयवरी आपलीं चिंवां चिंवंक म्हण दिल्लीं. पूण हे तिचें रगत कित्याक ओडूंक लागले!

* * *

काळ काळाचे मांडयेर हांवें ल्हवूच कूस परतिली. कोटी कोटी वर्सांच्या काळाच्या पेण्यावयलो हांव निमणो मनीस! भिरांकूळ मरण काळखांत पाविल्लों निमण्या पोंतावेलो हो निमणो खीण! चोंयवटेन किण्ण वांज शांतता
पूण मना काळजांत काळाच्यो किंकाळ हुयेल्यो. हांवें अदमास घेतलो, म्हज
हाडां मोडिल्लीं नात मू? म्हजी कवटी फुटिल्ली ना मू? तरीय यंत्राबग
हांव कसो चलूंक लागतलों? पांय तर आंतड्यांतले एपेंडिक्सेवरी झडू
वचूंक रावल्यात आनी ह्या म्हाझुजांतल्यान वांचुनूय हांव कसों तग धरतलों
हातापांयाक यंत्र लायलेबगर, मेंदवाक यंत्र जोडलेबगर म्हज्यान एक पावल
मुखार घालूंक जावचें ना. सगळीं यंत्रां तर केन्नाच कळमेवन गेल्यांत!

निमाणें म्हाझूज जावन गेल्ल्याक कितलीं वर्सां जालीं? पन्नास साठ
केन्नासावन केन्नामेरेन सगळीं मनशां मरून गेलीं. निमाण्या मनशाक केन्न
कोणें फोंड खणिल्लो, कोणें पिंड दिल्लो! कुशीन थंय एक रायनोसोर भूयेंत
तकली मारून मरून पडिल्लो. ताचो फाट वयर केल्लो हाडांचो सांगाड
दिस्टीक पडटालो. हांवें मनांत म्हटलें, कोटी वर्सां पिरायेचें हें जनावर अशें
दैना जावन मरून पडलां! ताची जाड कातडीय ताका वांचोवंक ताकली
ना. ब्रह्मांडांत आनीक खंय तरी ताचो डिएनए आसत काय! नासत त
मोटो आकांत मू! केन्ना मरून नानपश्चात जावन गेल्ल्या डायनोसराचे सांगाडे
हे उस्तून खणून काडटाले. तांकां जोडून आपलो फोटो काडून येताले
पूण धतरिर जित्या जागत्या रायनोक हांच्यान वाटावंक जालें ना. चारशेंक
वर्सां तरी चलिल्लो सुवार्थी कुळखेवी म्हामुर्खांचो अच्छेव.

कुशीन पळयल्यार म्हजोय फोंड खणिल्लो आसलो. जिवीतभर ज्या
फोंडाक हांव भियेतालों तो तोंड आंऽ करून कुशीक. हांव सामको ताचे
धडयेर. खंयच्याय खिणाक लकून पडटलों. हांव थर्त भियेलों. हात पांय
कवळून घेवन कुशीक कडसलों. म्हज्या विखाळिल्ल्या रगतान अजुनय इल्ली
हुनसाण आसली खरी पूण म्हजें एक लेचेंपेचें जिवाणेंच जाल्लें. म्हाका आता
वायट दिसलें. तिसऱ्या म्हाझुजांतलो निमाणो ॲटमबाँब म्हज्या पांयांसरी
फुट्टाफुट्टना चुकलो आनी हांव हीं कांक्रां भोगूंक उरलों म्हण. हांवें म्हज्या
आंगावयल्या कांक्राच्या गुठल्यावेल्यान हात भोंवडायलो. कितलीं वर्सां जालीं
हांव ह्यो गुठल्यो घेवन भोंवतां. तांचीं दावां काळजामेरेन पावंक बोटभरय
उरलीं नासल्लीं. कांक्राच्या गुठल्यांचो हो धतरिवयले निमाणे रानगायेन मरतां
मरतां दिल्लो शाप! आंगभर जबर दूख, बुरशें विद्रूपपण आनी बुरशें अवचिन्न
मरण! ह्या संवसारांतल्या निमाण्या मनशान अशें कंगाल सुण्याच्या मरणान
मरचें! उदक मेळनासतना, पिंड दियनासतना! हांव लोखणाचो बंगलो
बांदतलों, म्हज्या बाराव्याक सहस्त्र भोजन पडटलें म्हणिल्लो खंय गेलो
तो हावेस! तरीय हांव ह्यो गुठल्यो घेवन भोंवतां, खंयतरी इल्ली सावळी
मेळटली, ते सावळेंत विसाविल्लो एक जितो सोंसो मेळटलो हे आस्तेन.
घडये परत एक ईव्हाय मेळत म्हाका. ती परत मेळ्ळ्यार ह्या संवसाराची
सुरवात परत एक फावट नव्यान करन हांव – एक झाड मारल्यार सतरा
फावट फांशी दिवची हे बोलीर. पूण म्हज्यांतलो अदीम मनीस किंवाट्यान
आड्डलो – तुजें अवचिन्नाळें नांवनिशाण नाका हे धतरिर. तुज्यांतलो बीजकोश
घेवन तूं बेगीन मेल्यार पुरो जाला म्हाका! तूं मेल्यारच परत हांगा शेवण्याचें
गायन आयकूंक येत.

खरेंच हांवें कोणाक मारूंक नासलें. तेच दर्यांतल्यान, दोंगरावेल्यान, चंद्रावयल्यान बाँब घालून मारताले. कोणा एका काळाक एका अश्वत्थामान काळखांत एके अस्तुरेचे पांच पूत मारिल्ले खंय. ताची ख्यास्त म्हण कपलार ओली कोंक घेवन तेलाची भीक मागत भोंवतालो खंय युगां युगां. पूण म्हाका कांक्राच्यो गुठल्यो घेवन भोंवचेली ख्यास्त कित्याक म्हण! दर एका म्हाझुजा उपरांत म्हाझुजाचीं पातकां खांदार घेवन भोवंक एक अश्वत्थामा जायच आसता कितें! हांव हे धतरि वयलो निमाणो मनीस. हरवे सावळेची भीक मागत भोंवपी निमाणो अश्वत्थामा!

खंयतरी इल्ली सावळी मेळटली म्हण पांय ओडत हांव भोंवत आसां. पूण चोंयवटेन मरून गेल्ले रूख, धाळे पडिल्ली भूंय, कुशिल्ल्यो सुकिल्ल्यो

उकते बोडके दोंगर. दिसता, पुराय संवसारावेल्यान उज्याचे लोट गेल्यात. म्हाझुजान लायिल्लो उजो गेल्लीं पन्नास साठ वर्सां पालोवन ना जाला.

लीं पन्नास साठ वर्सां आनी ताचे पयलीं कितलिंशींच वर्सां हांव कितलीं मेलों हाका गणटी ना. दर एक मरण विखाळ श्वासान हड्ड्यांतलें स काळीज लासून मेल्लें मरण, तानेचो जबर सोस लागून रस्त्यार मेल्लें मरण, सगळी आस्त सोंपून तकली घुंवून आत्मघात करून मरण, अन्न लुट्टाना हेरांनी माड्डावन तकलेर दांडो घालून मारिल्लें आंगार कुल्लेचे दोंके चरिल्लेवरी कांक्र चरताले आनी जीव अंदून ले. अर्द म्हाझुजान मारले आनी उरिल्ले म्हाझुजाचे वीख बांदून मेले. री बॉंब फुटून कशे रावतले जिते!

वें निमाणेमेरेन आस्त सोडूंक नासली. हे धतरिचें दार परतो कोण तरी टायतलो म्हण धरिल्लें. म्हणच ह्या निमण्या म्हाझुजाचें वजें हांव खांदार भोंवतालों. पूण पातळिल्ल्या विखाळान आनी दुकळान म्हजो जीव च. हांवें आयकलां, धतरिचो निमाणो हुंकार, तिचें निमाणें वथरेवप. गें तिणें अंतरगर्भांतल्यान जीव कळवळावन म्हणिल्लें, 'म्हज्याच पुतांनी घात मारलो, आपल्याच पांयार आपणें फातर घालून घेतलो. नांतलें म्हजें एक तरी बाळक वांचयात रे!' तो हुंकार आयकतसान नाशिल्लो हांव अश्वत्थामा मरणाची भीक मागत भोंवतां.

हांका याद आसा, म्हजो फाटिचो कणो निकतोच नीट उबो जाल्लो. सुटून मळबावटेन म्हजें तोंड जाल्लें. म्हाका आतां दिसता, धतरिवयले हात सुटले आनी नातें तुटलें आनी सगळो विस्फोटच जालो. आंगावयले शेंपडी झडून गेली आनी दोळे सुवार्थीपणान लिकलिकूंक लागले. हांव दोनूय हातांनी घट धरून अस्तुरेक जबरदस्तेन भोगूंक ताकतालों. लल्लें झाड हुमटूंक ताकतालों. हातांत फातर घेवंक ताकतालों. फातर यांत घेवन सोंशांर, सुकण्यांर मारूंक ताकतालों. तेन्ना हांव सोंशाचें खायनासलों तरीय म्हाका फातर मारूंक भोव खोस भोगताली. मुखार हो फातर नाना रुपान म्हज्या हातांत येत रावलो. केन्ना कुराडेच्या , केन्ना तरसादेच्या रुपान, केन्ना बंदुकेच्या रुपान, केन्ना बॉंब, बॉंबाच्या रुपान. ह्या फातराचें आनी म्हजें नातें सासणाचें जालें. हातांत र ना जाल्यार म्हाका भिरांत दिसप, जीव गळ्यांत येवप. म्हणुनच जैत जोडलें सैमाचेर, मोनजातिचेर आनी मनशाचेरूय. म्हाका आतां भोगता, ह्या फातरानच मनशांच्या चोम्याचोम्यांमदीं दुस्मानपण रिगयलें. या हातांत फातर आसात ते व्हड जाले. जैतिवंत जाले. कसले मनशांचे, जातिंचे रगत वारोवपी पाड फातर आनी तांकां व्हडपण! मनशाल्या लो राकेस, ताची हिंसा ह्या फातरावरवीं परत परत मुखार येत रावली. आतां खरपणान दिसता, मनशाक हातांत फातर धरपी चपके तरी क फावनासले. म्हाका आयज निमाण्या परत्या खिणाक कळटा, हांवें र हातां, घेवन जिखिल्लें दरएक झूज ही म्हजी हारच आसली. म्हणच निमाणी मातयेभरवण जाल्ली हार. अवचिन्न हातान एक फावट कुराड आनी सगळो विद्वाटच जालो.

हजे धतरि मांयचें मरण पळोवन म्हाका भोवभोव रडचें अशें दिसना. काळीज सुकलां, मन सुकलां, दोळ्यांचीं खवळां जाल्यांत. दोळ्यांत येवन कितलो काळ लोटलो काय! मोगरे वालिचो तुरो कशी म्हजी ली भयण मेल्ली तेन्नाय म्हज्या दोळ्यांत दुकां देंवन येवंक नासलीं. व्हडलो आधार आलाशिरो आशिल्लो मनशाक दुकांचो. दुकां शेणून हाचे येदें दुख्ख दुसरें नासलें. मनशाच्या काळजांत दूख, दुकां शाबूत लीं जाल्यार घडये ही आवतिकाय जावचीच नासली. दर एका बॉंबान लें तरी रगत व्हांवतलें, आपल्या-पेल्याच्यो हुयेल्यो पडटल्यो हाची विकाय उरता आशिल्ली. मनीस अशे मनासयत भावभावनेसयत कित्याक सुखले! मनां मेल्लीं मनशांच तुबकाचो घोडो दांबूंक तांकतात!

धर्तरी मांयन लाखलाख वर्सां म्हाका होटी भरूभरून दिल्लें. पूण आज तिच्या मरणाक पिंड दिवंक म्हजेसरीं मूठभर शीत ना, पीठ ना, पेलोभर उदक ना. हांव एक निमाणो कंगाल, अपंगूळ मनीस. सगळीं यंत्रां, तंत्रां, भौतिक सुखां म्हाका सोडून गेल्यांत आनी हांव हातपांय मोडून पडलां.

द्रौपदील्या स्रापान हांव कपलावेले दुखिचेर तेलाची भीक मागत हजारांनी वर्सां भोंविल्लों. तरीय हांव कित्याक शाणो जालों ना? कित्याक हांवें धतरिचे सगळे पूत विखान मारून तिचो स्राप परत आंगार घेतलो! म्हजी तकली भेरेल्ली काय केंस बुड्डून घेवपी पिसो जाल्लों! काय रगत पियेवन हांव मातिल्लों! ह्या आंगाक बळिल्ल्या खेवी पिशांतुरांतल्यान शेवट मेरेन कित्याक बरो जालो ना, कित्याक निवळूंक ना?

हें पिशें काडूंक म्हण कोणकोण दुबळे बाबडे येवन गेले. गळ्याची सांखनळी ताणून सांगताले, तलवारी तोपूं नाकात, गुळी मारूं नाकात, बॉंब घालूं नाकात, शस्त्रां अस्त्रां उडयात आनी मोग करात म्हण. साबुद्द म्हणिल्लो एकलो दोळ्यांत दुकां हाडून सांगतालो, हेरांच्या दुख्खान तुमचें काळीज रडूं दी, हेरांच्या कश्टान तुमचें मन हालूं दी, दुकां गळोवं दी. पूण आमचीं काळजां सुकून तांच्यो कट्ट्यो जाल्ल्यो. निमाणो एकलो येयल्लो रहिमेश्वर म्हणिल्लो. घराक उजो लागतकीर तो पालयात म्हण आड्डून सांगचें तसो तो कळवळ्यान सांगतालो, तुमचीं मनां सुकूंक दिवं नाकात, भावना मरूंक दिवं नाकात. मनां जितीं उरल्यारच मोग आनी ममता, करुणा आनी क्षमा, रडप आनी हांसप. यंत्राच्या, रोबोच्या संवसारांत रावन तुमचोच रोबो जावंक लागला. पूण सोताक वाटायात. मनां मेल्यार सगळो खेळ खलास जातलो. परत सैमाकडेन वचात. झाडांतल्यान झाड कशें वयर सरता तें पळयात, मूळ हुमटिनासतना तणाच्यो वयल्यो पातयोच खावपी सोंशाक पळयात. एकसुरे शांत थंड सावळेंत आवयच्या आंगार खेळपी चितळा पिलाक पळयात, कंवळ्या वोतांत चकचकपी दंवान भिजिल्ल्या तणावेल्यान उकत्या पावलान चलात. परत एक फावट नागडे जायात, परत सालीन, पानापाल्यान आपलें आंग धांपून घेयात!'

तिसरें म्हाझूज जावचें न्ही म्हण खूब वावुरिल्लो बाबडो. कांय लोक देवाचो अवतारय मानताले ताका. पूण देवाकच खावंक उठिल्लो झुजाचो अच्छेव. खेवच आयल्लो संवसाराचेर. निर्मिल्लीं पुंजायल्लीं राशीक घातिल्लीं शस्त्रां रितीं करची तळमळच लागिल्ली. चोंयवटेन इतली तापसाण, इतलें अवसानघातकी आत्मघातपण. चूड दिवचेलो तो अतिरेकी खीण आपशींच आयलो. खरें म्हटल्यार तो तापिल्ल्या विकृत मस्तकांतल्यानच भायर पडिल्लो. एक फावट चूड लागली आनी सगळे भकीक पडले. शतमानांनी वर्सांची झुजाची खुमखुमी! काय मनीसजातिच्या ललाटांतच तें बरयल्लें, भस्मासुरावरी सोताच्या हातांनीच सोताचो नाश करून घेवचो! एक फावट झूज सुरू जालें आनी उरलो फक्कत लासून मारचो, फोडून मारचो हिंसेचो थयथयाट. उत्तर ध्रूव धरून दक्षिण ध्रूव मेरेन आनी चंद्र धरून पेसिफिक मेरेन एक प्रचंड झुजामळ. अस्त्रां तर इतलीं मारेकार. पडटालीं आनी धर्तरी हालोवन सोडटालीं, फोडून तोडून लासून उडयताली. तो बाबडो निमाणो म्हामनीस निमाण्या खिणामेरेन म्हाझूज जावचें न्ही म्हण वावुरिल्लो तो खंयच्या झुजामळार कोणालो बॉंब तकलेर पडून मेलो तें कळ्ळेंच ना.

एंब्रियो नर्सरींत वाडिल्ली आनी क्लोन करून घडयल्ली सगळी फौज. तांणी आवय बापायक पळोवंक नासलें. आवयलें गर्भसूख घेवंक नासलें. आवयले चिंवेक तोंड लावंक नासलें. तांकां नातीं खबर नासलीं, मन खबर नासलें. मोग माया खबर नासलीं. तांचें काळीज म्हटल्यार रगत खोळोवपी एक पंप. सुरवेक पसून शेवटाक मेरेन तांकां शिकयल्ले हाणामारिचें झूज कशें खेळप, गांव शारां कशीं लासून उडोवप, अणुबॉंबाच्या राशींपरस तांचीं मनां चड डेंजर आसलीं. ताका नात्यापसून मोगापसून पयस दवरिल्ल्याचो

जसो सूड ते घेताले.

खरें म्हटल्यार मनशा मनशांतलीं नातीं तुटिल्लीं तेन्नासावनच मनां मेल्लीं आनी मनीस मनीसखायरो जाल्लो. हीं नातीं कित्याक तुटलीं, मनां डेंजर कित्याक जालीं? कारण मनशाली दुकी पसून, दुख्खापसून, सैमापसून पयस धांवचेली धडपड. पूण अशें खशें मेरेन धांवप आनी परत त्याच दुख्खाच्या सांपळ्यांत घुस्पून पडप. भौतिक सुखां हीच दुख्खाची म्हाखाण! हीं भौतिक सुखां, पयसो एकठांय करतना मनिसपणाची गोमटी मारप! सैमा वांगडा सैमिक जावन राविल्ले जाल्यार अशी भौतिक सुखांची रक्ततान लागची नासली!

मनीस दुखीक, दुख्खाक इतलो कित्याक भियेतालो आनी सैमापसून कित्याक धांवतालो पयस? आपल्या पांयांर चलप दुख्ख, आपलें अन्न आपूण शिजोवन खावप दुख्ख, उखलून सोलून खावप दुख्ख, बाळंत वेळो आंगार घेवप दुख्ख!

बाळंत वेण्याची दूख केन्नाच फाटीं पडिल्ली. पूण ती सैमान येवजिल्ली सैमिक दूख आसली मोगाचें मुळवण. दर एक वेणिचे दुखीन जिवितभर बांदून रावं येतालें. मुखावयले पिळगे वांगडा. तिची ती वळवळटी दूख पळोवन हेरांकय कळूं येतालें मनीस जल्माचें महात्म्य, जिविताचें मोल. हांगा तर एंब्रियो नर्सरिची आनी क्लोनची सगळी प्रजा. मनां मेल्लीं. कांक्र बादिल्लीं. एक दीस दादल्यान आनी बायलेन लेबोरेटरींत वचचें आनी आपलीं बिजां दिवन येवचें. बॉय् जाय काय गर्ल जाय तेंवूय सांगचें. मगेर बद्द णव म्हयन्यांनी वचून आर्डरी परमाणें भुरगें घेवन येवचें. हे लेबोरेटरीक ते एंब्रियो नर्सरी म्हणटाले. ताचेन अस्तुरेचे पोटागर्भांतले नवनिर्मणेचें सुक्षीम नाटक जें अस्तुरेचो कायापालट करतालें तें ना जालें. तो रगता रगताचो प्रवास, नाळनाळयेचें बांदिल्लेपण, श्वासांतले हुंकार, गर्भांतलें स्पर्शसूख, सुखदिणो पोटाभार, पोटाचो देवाकळस, सैमाचे अंतरगर्भी विजमिताचें कुवाडें ना जालें. अस्तुरी थिल्लर भोगवस्त जाली. अस्तुरेची योनी म्हळ्यार फक्कत भोगद्वार नासलें. एका बाळकाक, नव्या जिवाक जल्म दिवपी पवित्र वाट आसली. तें एक देवद्वार आसलें. पूण दळदिऱ्या मनशाची धडपड फक्त सैमापसून, मुळापसून पयस वचचेली. कसली पाड नश्ट बुद्द म्हणुंये ताची!

बुद्द... म्हाका मरत्या ह्या वटवट्यांतय मनशाचे बुद्दिचो किंवाटो जाणवलो, फकाणांशीं दिसलीं. म्हाका आतां मनशाची बुद्द ही सैमिक विधायक उपयोगी बुद्द अशी दिसच ना. तें एक राक्षसी महायंत्र आसलें. ताका रगतबंबाळ करपी दांत आसले, घण आसले. ताका कळम धरतालो ते धरबंद सोडून वांकडेंतिकडें चलतालें. तें मोडून पडटालें आनी ताचो कुड्डो विस्फोटय जातालो. ताका एक निमाणी उड्टी पीन आसली. ताण वाडटकीर ती उडटाली आनी संवसाराचेर उजो पातळायताली. कसली तोखणाय ते पारपोळ चंचळ बुद्दिची! मनशाक हातांत नक्सो धरलेबगर वा माडयल्ली वाट मेळ्ळेबगर एका गांवांतल्यान दुसऱ्या गांवांत वचूंक कळनासलें. मुखाल्यांक वाट विचारीत वयताले. पूण श्रीलंकेक तांतयांतल्यान भायर येयल्लें बळारिचें पील आपल्या सबंद भिऱ्याक सायबेरियाची वाट दाखयतालें. मोनजातिचें नाक कान दोळे मनशापरस वीस चाळीस शंबर पटीन सेन्सिटीव. कितलो सोबीत संयम ताचे बुद्दीक! वृतस्थपणान एकच घोव, एकच बायल मानपी आनी फक्कत एकाच रुतूंत काममग्न जावपी. वर्सांतल्यान फक्कत वसंत रुतुंतच कुडीन एकठांय जावपी चंडोल शेवणें व्हड काय सदासर्वकाळ कामभावनेन वखवखिल्लो, रुतू, भास, वेळकाळ राखनाशिल्लो मनीस व्हड? मनशान सोताक झाडापेडांपरस, सुकण्या सावदांपरस बुद्दीन व्हड म्हणप म्हटल्यार फटिंगपणां आसलीं. कसली ती भोगांत व्हांविल्ली, भोगां फाटल्यान लागिल्ली, सैमाचो विद्वाट केल्ली, झुजां खेळिल्ली बुद्द!

सामकें पुरो जावन हांवें पांयांवांगडा हातय भुंयेचेर तेंकयले. म्हाका सूऽ जालें. एकदम धतरिच्या पोटांत गेल्लेवरी. देवा, हेंच म्हजें सासणाचें रु आसूंक जाय आसलें! धतरि वांगडाची म्हजी नाळ सामकी शाबूत उरतासल

पयस क्षितिजार उकत्या दोंगराची माळ सांजच्या वोतांत पेट्टा, धुंवरे अशी दिसताली. ताचें तें वांजपण ताचो हुलोप सगळ्या वाठारार लवू येयल्लो. कुरोटांनी वर्सां झाडांपेडां सावदां सुकणीं आंगार खेळयल्लीं धतरिन. पूण आतां तिचें पडिंग विद्रूप रूप पळोवंनज जातालें. एका काळा हरयाळी आनी सोंशा तण किल्लवपी मखमली हरव्या आंगाची सवाशी म्हजी धर्तरी मांय. पूण आतां फोंड, चर, खणी, डांबराचे रस्ते, कॉंक्रिटा जंगलां, पडिंगपण हाचेन ती इतली विद्रूप जाल्ली, एकेक आंग म्हारोग गिरासलां अशें दिसतालें.

जण एकल्याचे आपले वांटे, आपल्यो राशी. जण एकल्याच्यो आपल सरादी. घरादारांच्यो सरादी, भाटाबेसांच्यो सरादी. मगेर सरादी राखूं हाणामारिचीं झुजां. कोणालें तेल कोण विकतालो, कोणालें मीन को उस्तितालो, कोणालीं रानां कोण कातरतालो. मगेर ते आपलें म्हण विकताल तें धतरिक लुटप आसलें, चोरी दरोडेखोरी आसली. तांकां काऱ्यारुख गोळाक मारूंक जाय आसले.

खंय गेलो तो सुयेच्या तोंकार धर इतली भूंय लेगीत दिवचो ना म्हण आनी मगेर मांडी फोडून मारिल्लो दुर्योधन; संवसार जिखूंक भायर सरिल आनी मगेर वाटेर रेंवटांत रगत ओंकून मेल्लो शिकंदर; सोताचे तकले मारिल्लें रगतच स्रेश्ठ म्हणपी आनी हेरांचे वंश गॅस चेंबरान घालून मार- आनी मगेर लासून कुडिचो बेबो जावन मेल्लो हिटलर? कितें जोडलें कितें फाटल्यान दवरलें? आमीय ताचेच प्रामाणीक वारसदार आसले. म्ह तींच मरणां आमच्या वांट्याक आयलीं!

आतां म्हाका दोंगरावटेन वचची उमळशीक लागली. हांवें ताका मारलं चेंचयला, शरपंजरी उडयला. त्या महापुरुशाच्या पांयांक एक फावट हा लावन पायें पडचें, भोगसणी मागची आनी थंयच ताच्या मुळसाक घालू घेवचें अशें दिसलें. हांव रस्तो सोडून केन्नाच पुसून पुसून गेल्ले पांयवाटे चलूंक लागलों दोंगरावटेन. दोंगर म्हजो अपुर्बायेचो आज्जो पणजो. ख म्हटल्यार दोंगराची संपद गेली त्याच दिसासान धतरिची पाडी आवतिका सुरू जाल्ली. दोंगर म्हटल्यार वाग आनी हत्ती, दोंगर म्हटल्यार पाव आनी वारो, दोंगर म्हटल्यार व्हाळ आनी न्हंयो. दोंगर म्हटल्यार जीव आ जिवीत, दोंगर म्हटल्यार जितोजिवो म्हापुरीस! लोक हें सादें गणित कित्या विसरले आनी कित्याक दोंगराक जिवानिशीं मारलो! दोंगर मेल्यार आपू मरतलों हें खबर आसुनूय दोंगर कित्याक राखलो ना? वज्यांनी दुडू भां फारायलें म्हण कांयच जावचें नासलें. पूण एक झाड मेल्यार तुजी ना उसवची आसली, तुजीं मुळां तुटचीं आसलीं. आतां फूंकभर हवा नित करूंक हाचेसरीं उपाय नासलो. कोळंबीभर उदक मळबांतल्यान धतरिर रकोवं जायनासलें.

दोंगराच्या पडींग माथ्यार परत फाल्यां सुर्या उदेतलो, कोळशेल्लो, तेजही त्या सुर्याक सकाळचे पसयेचो कंवळो रंगरंगयाळो किर्णां खेळ आसचोन शेवण्यांच्यो शिळोण्यो आसच्यो नात. झाडां माथ्यार रुप्या झगझग पड ना. फक्कत चोंयवटेन पातळिल्लो विखार. कोटी कोब्रा सोरपांनी एक फावट विखाचो फुत्कार सोडलो तरीय इतलो विखार पातळचो ना इत विखार! खरें म्हटल्यार तिसरें म्हाझूज सुरू जावचे पन्नास साठ वर्सां आदीं हें ॲसिड कुपाचें विखाराचें गिराण लागिल्लें. म्हाझुजान तर सगळो विस्फोट केलो. मळबाचें राखणे-कवच तर केन्नाच घण घालून फोडिल्लें आनी म्हातारेल्या पिनकऱ्या वस्त्रावरी झिरझिरीत जाल्लें. तातुंतल्यान विखा किर्णां धाय वाटांतल्यान रकतालीं.

खंय आशिल्लो तो दळदिरो... हातांत चूड घेतिल्लो म्हारू? ता नांवान धुमशणां कांडलीं. जातिचे, धर्माचे वांटे घातले. कर्मकांडाचो शि

धर्मझुजां खेळ्ळीं. पूण गेल्ल्या धा वीस वर्सांत तो कोणामुखार केन्ना रावलो ना. कोणाचे झळकीक पडलो ना. जे तो आपणाक भेटला ले तांचीं फटिंगपणांच आसलीं. इतली ताची व्हडवीक गायताले, ही धर्तरी मरून ताचो तळपटो सडो जाला, पूण खंय आसा तो? गेलीं ताचीं देवळां आनी ताची सासाय! काय तो मुळांतच फातर लो! मनशानच ताका व्हडवीक दिली म्हणच तो खोटोखोटो व्हड जाल्लो कितें! आयज हांव धर्तरिवेलो निमाणो मनीस, मनशाच्या सगळ्या ची, सगळ्या म्हा-झुजांचीं पातकां भुजांर घेवन भोंवपी निमाणो त्थामा तुका उलो दिता, तूं आसल्यार एकच फावट असो मुखार भियेवं नाका. तुका पळोवंक आतां हांगा कोण ना. कीड मूय लेगीत असो मुखार यो. भास दी, वळख दी, खऱ्या-खोट्याची गवाय दी. फटकिऱ्याच्या नांवार सगळी राटावळ फुकट गेली तर! तूं खंयूय कसोय आसूं वा नासूं, एकच प्रस्न हांव तुका विचारतां. मनशाकच मो म्हण कितें तो आशिल्लो? गांयडोळाक, जल्ल्याक, रेड्याक तो ल्लो? कित्याक म्हण तांकांच तो ना जातलो? जल्लो तर मनशा वीस कोटी वर्सां आदीं धर्तरिर आशिल्लो ख़ंय. तूं म्हाका सांग, तूं च मनशाच्या रुपाचो आसलो? साळुंद्रिच्या रुपाचो कित्याक नासलो?... ताचो आवाज नासलो... हांवेंय खूब पळयलां, खूब भोगलां, खूब मरणां . तुज्या नांवार कलिंगाच्या झुजांत सम्राट अशोकान घातिल्ल्या मड्यांचे हांव आसलों. भोट्या तैमुरलंगान एक लाख लोक तरसादेन मारले लो हांव एकलो. हिटलराच्या गॅस चेंबरांत हांव मेलां, भोपाळांत विखाळ हांव मेलां. इथिओपियांत म्हयने म्हयने उपास काडून भुकेन कुडिचो जावन हांव मेलां. हिरोशिमांत अणुबाँबाखाला तर म्हजें मरण इतलें वल्याचें आसलें, कुडिचो हुलपून बेबो जाल्लो; आंतकडी मेरेन शिजिल्ली. आतां ह्या तिसऱ्या म्हाझुजा उपरांतचें हें जितें मरण! संवसारांतलो णो मनीस जावन एकसुरेपणान, निर्शेणेन, धर्तरिचें मरण पळोवन काळीज मरप. हांवें झाडांच्यो कवकवीत आंकऱ्यो पळयल्ल्यो, चंवर पळयल्लो, फळां पळयल्लीं म्हण म्हाका हें मरण चड भोगता. हांवें मळबावाटेन करून देवाक विनयलें, बारा अरब मनशां मेल्लीं हांवें पळयल्यांत, रांच्यो माळांनी माळो मेल्ल्यो पळयल्यात. हांव तुजेसरीं मागतां, ह्या डांत आनीक खंयूय अशी जिवी धर्तरी आसल्यार तिका अशी मरूंक नाका. तिची राखण कर. बारा अरब मनशांच्या मरणाचें दुख्ख काळजार न हांव निमाणो दुख्खी अश्वत्थामा तुका विनयतां, म्हज्या डि.एन्.ए.क एक फावट जाग हाड. मनीस कुळयेची जीण अशी मरूंक दिवं नाका.... , म्हजें आनी नांवनिशा नाका हे धर्तरिर! फक्कत झाडांझोपांची, सुकण्या दांचीच जावंदी ही धर्तरी. परत आनीक कुराड धरपी घातमारे हात त. धोशी आनी सरादी घालपी नाकात. देवधर्माच्यो फटाशो नाकात. का जल्माकच ना घातिल्लो जाल्यार, म्हजे हात भुंयेवेले सुटुंकच नाशिल्ले ल्यार रानां वनांत सावदान भरिल्लो कितलो सोबीत, मंगल, पवित्र सतलो आसलो हो संवसार! म्हजे परसय झाड व्हड आसलें, म्हजे सय रानगाय व्हड आसली. पूण म्हजी काकुळट कर. अशी म्हाका वेताची आस्त सुटून सुटना जाल्या. हांव देवा तुका विनयतां, म्हाका नीक एक संद दी. हांव रामेस्त मनीस कुळयेचे वतीन तुका उतर दितां, दितां, सोपूत घेतां, हांव हातांत फातर कुराड घेवचो ना. मुणहाता यल धर्तरी उस्तुवचों ना. झाडाक भाव मानतलों, हरणाक भयण मानतलों, राक बापूय मानतलों, मोगरे वालीक आवय मानतलों. देऊळ बादचों वांटे घालचों ना. कंदमुळां शाकभाजी खावन आनंदान जियेतलों. हेरांचेर ना गाजोवची हीण उणाक वत्ती सोडून दितलों.

खंयसान तरी अनादी आवाज घुंवलो. म्हजे भितरच आवाज धुंवता य, मळबावटेच्यान कृष्णविवरांतल्यान कोणालो रागीट आवाज फुटून येता, कांयच कळना...

''... मानग्यालीं दुकां तुजीं हीं. लहुरा शाराचेर खर विखारी वायू सोडून णव्वद लाख लोक वळवळून मेल्ले पळोवन तूं हांसला. होनांबी न्हंय आनी तिचे चर पुराय कॉलराच्या जंतून तुवें भरल्यात. कारलाडी शारार न्युमोनियाच्या जंतूंचो फवारो मारला. म्हारीद शारार पांच हजार घनफूट एल्पीजी ओतून तुवें उजो लायला. वाठाराचे वाठार आनी शारांचीं शारां अणुबाँबान उद्ध्वस्त केल्यांत. तुज्या कर्मान तूंच मेल्लो जाल्यार हांव कांय म्हणचों नासलों. पूण तुवें पुराय परिसर, पुराय सैम नश्ट केलां. तुवें मळबार घण मारले आनी झाडांक घाये घातले, वर्मार गुळयो मारल्यो, हड्ड्यार फोंड खणले, हवेंत काजळ सोडलें, उदकांत वीख सोडलें, तकलेंत राकेस रिगयलो. तुवें आतां वळवळून मरचें...''

हांवें कळवळून त्या आवाजाक म्हटलें, ''म्हाका भोगशी. म्हाका वाटय. एकच फावट ह्या फोंडांतल्यान वयर काड. कोणाल्या तरी कुरावांत घाल. म्हजो डिएन्ए मरूंक दिवं नाका. म्हज्या आत्म्याक वाऱ्यार सोडूं नाका.''

''वाट पळयत राव.''

''कितलीं वर्सां?''

''खंय गेलो तुजो तो म्हासंगणक? ताच्यांत आंकडे धरचे नात इतलीं वर्सां.''

हांव परत एक फावट रडलों. ''म्हजें ह्या फोंडांत वाट पळोवप केन्ना तरी सोंपतलें तर?''

''नक्की सांगूं नज. परत एक फावट हें ब्रह्मांड आरतेंपरतें जातलें. परत एक फावट बिग बँग. परत एक फावट म्हा-विस्फोट. परत एक फावट विश्वाची निर्मणी. परत एक फावट आकाशगंगेचो जल्म. तेन्ना तुजो डिएन्ए नेमको खंय आसतलो सांगूं नज. ताका फाव तें उदक, वारो, उजवाड खंय मेळटलो सांगूं नज. कोटीकोटी नखेत्रांत आनी ताचे भोंवतणच्या कोटीकोटी गिऱ्यांत फक्कत पितुर्मेचो गिरोच मोलादीक आसलो. पुराय ब्रह्मांडाच्या मोलाचो आसलो. ब्रह्मांडाच्या मोलाचो चमत्कार फक्कत पितुर्मेरच घडिल्लो. तुवें साडेतीन हात क्षुद्र जिवान ताचो विध्वंस केलो. तुवें पांच हजार कोटी मनशां मारलीं म्हण म्हाका इल्लेंय दुख्ख भोगलें ना. म्हजो मोगाचो निमाणो गांयडोळ तुवें मारलो. विखाळ उदकान, मातयेंतच तो वळवळून मेलो.''

''आनीक खंयच्याय गिऱ्यार ही संपदा ना. थंयसावन म्हजो एक सवत भाव, सवत भयण हांगा येवंक ताकची ना. कशेंय आसूं ते वांकडेतिकडे, बुळबुळीत, बुरशे.''

''हांव तुका कांय एक सांगूंक बांदिल्लों ना. व्हडली फुशारकी आशिल्ली तुका तुजे बुद्दिची. मगेर एकय जितो गिरो कित्याक सोदूंक जालो ना तुजेकडेन? आनीक तुका सांगूं, ही धर्तरी आतां कोणेंच रावसारकी उरली ना. तिचीं कवच कुंडलां फुटल्यांत. तीस चाळीस कोटी वर्सां लावन घडयल्लीं तीं कवच कुंडलां तुवें तिनशें वर्सांतच फोडून उडयलीं. कितलो बरो सोबीत हुनहुनीत उपकारी सुर्या हांवेन तुका दिल्लो तुका अंदण म्हण. तो तुका पावलो ना. तुवें बेठे गरजेभायले विजेचो झगझग घालूंक तेल, कोळसो, युरेनियम लासलें. पुराय धर्तरीक प्रदक्षिणा घालची तांक आशिल्ले दोन पांय हांवेन तुका दिल्ले. तुवें चाकां, मोटारी घडोवन इतलें तेल कित्याक लासलें? हवेंत वीख कित्याक सोडलें? धर्तरी फाळून तिचें सत्व उस्तुवचें पातक कित्याक केलें? पड आतां त्या फोंडांत कुसत.''

म्हाका आतां देव म्हणिल्ल्या त्या बुजाण्याचो रागच येयलो. हांवें म्हटलें, ''घडयणारो, तारणारो, मारणारो म्हण तुका तुजेंय कितें चुकलां अशें दिसना?''

''हय, म्हजें चुकलें. तुका हेर मोनजातिंवरी चार पायांचेरच उबो दवरूंक जाय आसलें. भुंयेक तोंड लावन खावड खावंक लावंक जाय आसलें.

आदींच इल्ली बास्कळ तुजी बुद्द आनी तातूंत हात मेकळे. तुजें तोंड मळबावटेन गेलें आनी मेकळ्या सुटिल्ल्या हातान तुवें धतरिचो घात मारलो.'' तो आवाज आतां चडच तिडकलो आनी आड्डलो. ''कुळघातकी तूं, पातकी, कृतघ्न. विस्वासघातक्या, तुजें निसंतान जावं!''

हांव आतां ताचेसरीं झगडूंकच उठलों. रागान ताळो फोडून आड्डलों, ''फट, फटकिरो तूं. जाल्ल्यांचो विनाश अटळ आसलो, चडिल्ल्यान देंवकच जाय आसलें, फुगिल्ल्यान भागुंकूच जाय आसलें. जल्मल्ल्यान मरुंकच जाय आसलें. तुवें मनशाचें निमित्त केलें. ताका पातकान घातलो. ताका बिरमतेक आधार केलो. ताका बुद्दी वांगडा तुवें सुवार्थ दिलो. घुंवळ येवन पडसर सुखाफाटल्यान धांवडायलो. तुजीच माण्णी ती.''

आवाज कांय वेळ ओगी रावलो. मगेर ताणें म्हटलें, ''खरें म्हटल्यार हांव कोणच नासलों. हांव फातरांतय नासलों आनी खुरसांतय नासलों. तुजी बांगय म्हाका केन्ना आयकोंक येवंक ना. फातराची मूर्त घडयतलेय तुमी आनी ती फोडटलेय तुमीच. ती तुमची आपसांतली खाजगी बाब. म्हाका कांयच लागलें ना तें. एक फूल म्हजेर पडलें ना. एक घाय म्हाका लागलो ना. हांव अमूर्त, हांव एक बुद्द, हांव एक गणीत, हांव एक विज्ञानाचो प्रमेय. तुवें शंबर हती मारले, दोनशें वाग मारले, कांयच न्हय तें. तुका भोगसणी मेळूं येताली. एका रुतूंतल्या कामभोगांतल्यान तीन तीन पेटे जल्मताले. पूण तुवें अणू फोडलो आनी विश्वाचो अपमान केलो. अणू हें एक बंदिस्त विश्व. विश्वाचो मुलाधार. तुका कसलोच अधिकार नासलो विश्वाच्या मुलाधाराक धपको दिवचेलो. तुज्या कुकर्माक भोगसणी ना.''

तो आवाज पुराय ब्रह्मांडांत कांय वेळ 'हय हय, सत् तें सत्...' म्हणिल्लेवरी घुंवत रावलो. हांव पुराय निर्शेवन गेलों, भियेवन गेलों. उबो रावंक गेल्यार पांय जिवे बडयेवरी लडबडूंक लागले. हांव कुल्यांर बसलों आनी दोनय हात मुखार तेंकयले. म्हाका म्हजें रूप इल्लें माकडावरीच दिसलें आनी संतोस भोगलो. पूण म्हज्या पांयांच्यो ह्यो विळविळीत बडयो कित्याक जाल्यो? मगेर म्हज्या ध्यानांत येयलें, तिसरें म्हाझूज सुरू जावचे पयलीं आनी नंतर कितलिंशींच वर्सां हांवें पांयांचो उपेग करुंकूच नासलो. पांयांक यंत्रां लावन चलताले आमी. मोटारिचे गाडे, इलेक्ट्रिक व्हील चेअर्स. पांय आतां आंतड्यांचे एपेंडिक्सेवरी. माकड हाडावयले शेंपडेवरी झडून वचून रावल्यात. पळय कसो विचित्र विद्रूप जालां हांव. हातापांयांच्यो बडयो आनी आंगाचें धडच मोटें. मोठ्या पोटार पिडेस्त अशी चरबी आनी गाबळां. कुडींतल्यो सगळ्यो ग्रंथी, काळीज, पुप्पूस, किडनी सामकी जर्जर जाल्या. हवेंतलें, उदकांतलें, मातयेंतलें वीख वर्सानवर्सां बळून तीं कुळकुळ्यांत. कवच नाशिल्ल्या मळबांतल्यान देंविल्ल्या विखारी किर्णांनी चामडेर कांक्राच्यो गुठल्यो धरल्यात. आंगभर फक्कत दूख, वटवटे आनी यातना. नरकांत पडिल्लेवरी जालां. कोणें केलो म्हजे हरवे धतरिचो हो नरक?

हांवें आस्तेन एक फावट मळबावटेन पळयलें. काळो बुरसो धुंवर आनी ताचे खाला आंग हुलपावन काडपी गरमेचो हुलाताप. पूण खंय तरी मळबाच्या कोनशांत तांबडो सुर्या दिस्टीक पडलो. सुर्या पळयलो आनी म्हजे मरते कुडींत इल्लें चैतन्य भरलें. मन उल्हासान हुडक्यो मारूंक लागलें. देवा, म्हज्या बापा सुर्या, तुका कितल्या तेंपान पळयतां हांव. ह्या बुरशा खवदळांतल्यान! तूं तर म्हजे जिणेचो आधार आसलो. तूंच जीव, तूंच उजवाड, तूंच चैतन्य, तूंच उत्पत्ती, तूंच चराचर. तुज्या एकल्याच्याच नाड्यार म्हाका दशदश कोटी वर्सां सुशेगाद जियेवंक येतालें. तुजें मोल म्हाका कळ्ळें ना म्हणच हांव ह्या फोंडांत आतां कुसतां. पूण आज तूं नव्यान दिसतकीर म्हजें मन चैतन्यान भरलां. हांवें मनांत म्हटलें, म्हाका एक अस्तुरी, एक मादी हाडून दिल्यार ह्या सबंद संवसाराची परत्यान निर्मणी करीन. सगळीं कांक्रां पचोवन, सगळ्या विश्वावांगडा झगडून, इल्ल्याश्या उदकार, इल्ल्याश्या प्राणवायूर परतो तग धरीन. खरेंच, एक मादी आसची म्हजे मुखार. मोग बीन सगळें फट. नवनिर्मणेची शक्त हीच सगळ्यांत मोठी शक्त. तोच मोग, तोच कामभोग. तोच मरणाचो भंय, तेंच आवयच्या मनांतलें वात्सल्य. देव जसो नाशिल्लो तशें मोग म्हण कितें केन्ना नाशिल्लोच. जंय शतमानाचीं शतमानां फक्कत मनशांक मारच्या शस्त्रांचीच निर्मणी जाताली थंय मोग म्हण कितें कशें आसूं येतालें?

आदम ईव्हान केल्ली चूक आमी लाखलाख फावट करीत आयले. सुखाफाटल्यान धांवत रावले आनी निमाणें धतरि भायरे जाले. परत एकच फावट ईव्ह भेटयल्यार हांव परत ती चूक करचों ना. आंग झांकनासतना रावंक म्हाका लज दिसची ना घुंवळे फळ खावचों ना. म्हजें म्हजें म्हणचों ना. घराक कुलूप मारचों ना. कांय धांपून दवरचों ना. काळीज धांपून दवरचों ना, घर धांपून दवरचों ना. म्हाका आतां दिसता, आमी सगळे गरजेभायर धांपून दवरताले म्हण संवसाराचें मरण लागीं आयलें. कूड धांपिल्ली, मनां धांपिल्लीं, घरां धांपिल्लीं, राष्ट्रां धांपिल्लीं. भितर कितें शिजता तें भायर कळच नासलें. बेठे दुबाव, दुस्वास आनी दुस्मानकाय. आतां म्हाका कळटा दुस्मान जोडचेलें एक शास्त्र आसता. भितर कितें घडटा तें भायर कळूंक ना दिवप म्हटल्यार भोंवतणीं दुस्मानांच्यो भोंवटाळी उब्यो जातात.

हांव फोंडा धडेवेल्यान उठलों आनी दोनय पांयांर आनी हातांर चलूंक लागलों. म्हाका हात धतरिक तेंकोवन चलूंक कळटा हें पळोवन भोव खोशी जाली. हेंच म्हजें रूप सासणाचें तिगचें, हांवें म्हजे मोगाळ धतरिक लायिल्ले हात काडचेच न्हय, अशें दिसलें. धतरिक हात लावंक कितली अपुर्बाय आसता!

म्हाका आतां चार पावलां घालतकीर सट्ट करून होलमलें, आपल्या पांयांर आपणें चलप आनी आपल्या खांदारच आपलें वजें व्हांवन संवसारांतले सगळे प्रस्न सुटूं येताले. पूण म्हजी पांयवाट तर केन्ना शेणिल्ली. हवसानखत जावन हांव अर्द वाटेरच बसलों. पांयांक पावला इतलीं रुंद एक पांयवाटच जाय आसली. तो पांयाचो अधिकार आसलो. ते पांयवाटेर म्हजे पांय शंबर मैलांची वाट कांय न्ही करून माडोवन वचूंक तांकनासले. पांयाचें एक दुबळेपण म्हटल्यार पांय रस्त्यान चलूंक तांकनात. डांबर, शिमीट रस्त्यान तर निखालस ना. पांय दवरल्यार मस्तक तापचें. हे कसले रस्ते? खरें म्हटल्यार मनशान रस्ते बांदले आनी पांयच मोडून उडयले.

पूण आतां तर पांयूय नात आनी रस्तेय नात असली गत्त. हे शिमिटाचे, डांबराचे, कांचेचे आनी फायबरचे सगळे रस्ते पडींग पडिल्ले. तांचेर हजारांनी मोडिल्लीं, कळमेल्लीं यंत्रां आनी मोटारी. रस्त्याकुशीक कॉंक्रिटाचीं अटंगी रानां, पडींग कारखाने, काळो धुंवर, घुसमट आनी तापसाण. काळीज भेदून उडोवपी कानाचे पड्डे बसोवपी किण्ण शांतताय. हे शांततायेंत दशदश कोटी लोकांचो आक्रोश! सैमाचे स्राप! हांव आतां सामकें पुरो जावन धतरिर सास्टांग पडलों. क्षीण नदरेन मळबावाटेन पळोवंक लागलों. दिसलें, आतां हांव हांगाच मरून पडटलों. एक किडो पडनासतना, कोणें चोंच मारिनासतना असोच सुकतलों.

तशें ह्या शेंकड्यांत कोणाक म्हण तुस्ट, शांत मरण आयलें ना. खीण खीण विकत घेत शेवटा वळवळून मरप. जोड फक्कत दुखिची आनी दुख्खाची. हांचीं हॉस्पिटलां, ऑपरेशन थेटरां, यंत्रां, शस्त्रां, किर्णां, वखदां म्हटल्यार दुखिचे पिडेचे आगर. दुखिची आनी पिडेची एक संस्कृताय उबी केल्ली. आदीं हॉस्पिटलां मोडूंक जाय आसलीं. शास्त्रांक अस्त्रांक चूड लावंक जाय आसली. वखदांचीं रसायणां गटारांत ओतून उडोवंक जाय आसलीं. हांणी पिडेचो हाऊ दाखोवन सासणाची पिडेस्त करून दवरली मनीसजातीक. हांच्या वखदांनी पिडेचें चक्र लायलें फाटीक. शेवटाक इल्लीं कांक्रां बादिल्लीं, रगतांत मद भरिल्लीं, काळजां इबाडिल्लीं, तकली घुंविल्लीं मनशां. जशी स्नो पावडरिच्या कारखान्यांची गरज नासली तशी हॉस्पिटलांचीय गरज

ा. हीं हॉस्पिटलां आनी वखदां म्हटल्यार औद्योगिक क्रांतीक आयिल्लें
ोडू फळ आसलें. सामक्या साद्या उपायांनी सगळीं दुयेंसां धांवडावं
ां. नितळ उदक पियेवचें, नितळ हवा श्वासान घेवची, कंदमुळां खावचीं
आपल्या पांयांर चलचें. आदीं उदक, वारो विखारो करप, तेलांत
खावप, पांयांक बांदून दवरप आनी मगेर पिडा बादली म्हणप. मगेर
क्र, हॉस्पिटलाचें, ऑपरेशनाचें आनी वखदांचें.

णटाले आमी जोरी, म्हामारी आडायल्लो. खरें म्हटल्यार ह्यो जोरी
कच फावनासल्यो. धतरिचेर लोक कितलो आसचो, वाग, शिंव, हत्ती,
कितले आसचे हें सैमाकच थारोवंक दिवंक जाय आसलें. म्हामारिचीं
थोपयलीं म्हणटले हे. पूण उपरांत पिल्लांनी, शिरेच्या ऑपरेशनांनी,
ांनी, गर्भपातांनी आनी मारेकार झुजांनी हेंच करताले हे. गर्भांतल्यान
आयलो म्हणटकीर जालो राजा. ताचेखातीर धा वीस म्हाळयेचीं
टलां. गर्भांत भितर आशिल्ल्याक कशेंय कोंचून मारप. नातर निरोधान,
ांनी तांची वाटच आडावन दवरप. ही म्हामारी खरी डेंजर आसली.
गांधी, लिंकन, टॉलस्टॉय परत जल्माक येनात म्हण रडटाले हे.
हांणीच तर तांकां गर्भांतच ॲबोर्शन करून मारिल्ले वा निरोधान तांची
आडावन धरिल्ली. सगळें सगळें सैमिक जावंक जांय आसलें. बळिश्ट
तलो, दुबळो आपशींच मरतलो. खूब वर्सांफाटीं केन्ना एका दोतोरान
माणी मांडिल्ली. ताणें म्हणिल्लें, जो दादलो वा बायल उत्कृश्ट पिळगेक
दिवंक योग्य आसा तांकांच भुरगें जल्माक घालचो अधिकार दिवचो.
ुट्यांक, पिडेस्तांक, गुन्यांवी, वायट चलणूक आशिल्ल्यांक भुरग्यांक
दिवचो अधिकार दिवचो न्ही. पूण लोकांनी ताका पिशांत काडलो
ी ताची बुद्द फाटीं पडली.

शें कायद्यान आनी ख्यास्तीन थारायल्लें जाल्यार घडये लोकसंख्या
ाबंदाक उरतासली आनी जगलोकाक बरे दीस येतासले.

हांवेंय यत्न केल्ले म्हजे धतरिचें आयुश्य पांच धा हजार वर्सांनी तरी
चें म्हण. 'धर्तरी वांचयात' म्हण हालेटी दीत हांवें सभा बीन घेतिल्ल्यो.
एक फावट भौसाच्या चौकार उबो रावन म्हणिल्लें, 'तुमी पुराय सैमाक
देल्ले आसात. एक सैमशक्त झाडां मदल्यान, जीव जिवाण्यांमदल्यान,
ण्यांमदल्यान तुमचेमर्दी घोळटा. तुमकां सैमावांगडा बांदून दवरता. हें
न उरप म्हटल्यार तुमच्या प्राणाचें चैतन्य. तुमी मोटारीक बांदिल्ले
, टीव्ही, फ्रिजाक बांदिल्ले नात, कंप्युटराक, सेटलायटाक बांदिल्ले
. सैमाची अमूर्त शक्त दिसानदीस क्षीण जायत आसा. नवनिर्मणेची
त मरत आसा. रुतुचक्र इबाडलां. तें आतां घुंवत रावतलें अशें दिसता.
न सोडात आनी पण्टे दिवे लायात. टिवी काडात आनी मांडार वचात,
स्ट फूड सोडात आनी भाजीपालो खायात. लिंग धांपचे पुरतें वस्त्र,
ली धांपचे पुरतो आसरो, फोंडापुरती सुवात इतलीच तुमची.' लोकान
का पिशांत काडलें. हुर्यो घालीत म्हजेर फातर शेवटिले. तांणी म्हटलें,
मी एकेक पेशीपसून एकेक झाड निर्मितले, वाग शींव घडयतले, मनीस
तले. आमकां सैम लागना, गर्भाशय लागना, बीं लागना. आमी जैत
डलां सैमाचेर, आमी हातांच्या बोटांचेर सैम खेळयलां. आयुश्य ल्हान
सा. मेळटा तितलें भोगून घेवचें. आमी फक्कत वर्तमान भोगपी मुक्त
शां. फाल्यांचें फाल्यां.

चोंयवटेनचे धपके इतले खर आसले, म्हाका जशें तांणी वॉशिंग मशिनांत
लून धुवून काडलें. म्हज्याय नाका तोंडांत इल्लो वारो गेलो आनी म्हजो
वाज बंद जालो. म्हाकाय आतां फ्रिजांतलें थंड थंड उदक पिवचें अशें
सलें. म्हजो क्लोन करून घेवचो अशें दिसलें. क्लोन करून घेवन ययातीवरी
नीक एक जिवीत भोगचें अशें दिसलें. देड म्हयन्यांचो गाब काडून तांतल्या
ींपासून कुडिचीं नवीनवीं आंगां घडयताले आनी बाजारांत विकून दवरताले.
जी एक किडनी गेल्ली. हांवेंच एक किडनी मोलावन बसोवन घेतली.

आतां मात्र सगळो अनर्थ पळोवन म्हाका मरणापयलींच आत्महत्या करून घेवचें अशें दिसता. खरें तर फाटले सामुहीक आत्महत्येंत हांवेंय सोताक मारून घेवंक जाय आसलें. गेल्लीं कितलिंशींच वर्सां तर सैम आनी मनीस हांचेमर्दी ह्या सामुहीक आत्महत्येचो धडाकोच सुरू जाल्लो. सैमचक्र इबाडिल्ल्यान सैमाची अंतरशक्त बिघडिल्ली काय! ती क्षीण विकृत जाल्ली काय! काय तो पातळिल्ल्या विखाचोच बादिकार आसतलो! हजारांनी मैल दर्या वेळेर येवन वज्यांनी नुस्त्यांनी आत्महत्या करून घेतली. शेवण्यांच्यो झुंडिच्यो झुंडी दोंगराकडेरबीन मरून पडटाल्यो. रानाचीं रानां एकच फावट मरून सुकून वयतालीं.

मनशान तिसऱ्या म्हाझुजाचे दामिल्ले बटन म्हटल्यार एक सामुहीक आत्मघातच आसलो.

आतां हांव सगळी शक्त एकवठावन उठलों. पर्डीग रस्तो सोडून म्हजीच काट्यांकुट्यांची वाट हांवें धरली. पापाचें क्षालन करचें, चुकिचें परिमार्जन करचें तसो हांव त्या पांयवाटेर एकेक उकतें पावल घालूंक लागलों. खरें म्हटल्यार शंबर वर्सां आयुश्य आसा म्हणटालो तो कासव खंय गेलो? दुस्मान दिसतकीर कांट फुलोवपी आनी बेगिबेगीन बिंवणांत वचून लिपून बसपी ती साळुंद्री खंय गेली? म्हाका आतां एका जित्या जिवाक पळोवचेली खर ताळणीच लागली. आतां हांव आनी पांय तेंकत पयसपयस वचूंक लागलों. कांक्रीट आनी फायबरच्या जंगलाक, रस्त्याच्या चक्रव्युहाक विटून हांव पयस पयस धांवतालों.

केन्नासान हांव दोंगर दोंगुल्ल्यो विसरून गेल्लों. कारण तांचो आतां उकतो तळपटो सडो जाल्लो. एकेक दोंगर म्हटल्यार एक प्रचंड समाधी, एक दोंगुल्ली म्हटल्यार एक फातराचें पिरामिड. आतां म्हाका ओगीच दिसूंक लागलें, ह्या दोंगरांनी जीव फुंकल्यार, जीव भरल्यार ही स्रस्ट परत उबी जावं येता. हांवें कांय बीं मुठींत दामून घेतलें. तें दोंगरार फासपून घालूंक म्हण हांव वचूंक लागलों. म्हाका भावार्तीपणान दिसलें, बीं आसल्यार कोंब येवंकच जाय. ह्या दोंगुल्ल्यांनी जीव भरल्यारच स्रस्ट परती उदेवंक येता. आदीं कोंब फुटूंक जाय, पावस झडूंक जाय, उजवाड पडूंक जाय. संवसारांत पयलें अदीम बीं खंय कोंबेल्लें काय? खंयचे मासाळ भुंयेन उजवाड ओडून घेवन गुरवाचार केळयल्लो काय? परत एक फावट ती शक्त आसत काय धतरिक? पूण हांवें निर्शेणेन सोतासरींच व्हडान म्हटलें, तिचें सत्व मेलां, तिका चेचल्या, चांचायल्या. उजवाड पावना तिचेमेरेन. वारो व्हांवना, पावस पडना! पूण हांव निमाणें अश्वत्थामा हे धतरिन परत जीव धरचो म्हण धडपडटलों!

आतां म्हाका खोलायेन दिसलें, एक मादी जाय! एका हातान ताळी केन्ना वाजूंक ना हें एक वैश्वीक सत्य. पूण म्हजें बीज धड आसत काय? तिचे योनिची, गर्भाची निर्मणशक्त शाबूत आसत काय? सगळो संवसारच जंय सुकें वांजपण भोगता, तें वाजपण आमकां बादलेबगर कशें रावतलें! हांगा कितेंच अलिप्त आसना, स्वतंत्र आसतना, सगळें एका चक्रान घुंवतालें. चक्रच घुंवचें रावलां म्हण म्हाका भिरांत दिसता. वांजपणाचो वारीसदार जावप हाचें इतलें मोटें दुख्ख म्हाका नासलें. वांजपण म्हटल्यार शेवटा कितें, उदक, वारें, उजवाड नासप! हांगा तर चैतन्याचो खेळ सोंपला, रुतुचक्र रावलां. ग्रिश्म आनी वर्शा, वसंत आनी शिशीर एक दुसऱ्यांत भरसून गेल्यात.

कोणाकाळाक कोण एक अश्वत्थामान एके अस्तुरेक निसंतान केल्लें खंय. तिच्या स्रापान कपलार ओली कोंक घेवन तेलाची भीक मागीत भोंवतालो खंय. तेन्ना कोणें घातिल्ली काय ताका भीक? घातिल्ली आसतली. एक मांय निसंतान जाल्ली आसली तरी हेर कितल्योश्योच मांयो तेन्ना गुरवार आसल्यो. थानांत भरभरून दूद भरून तुस्ट जाल्ल्यो. पूण हांव कोणासरीं मागतलों भीक? हांगातर सगळ्योच मांयो निसंतान जाल्यात.

म्हाका आतां म्हज्या जल्ल्याची, मालुणाची याद येयली आनी हांवें हुणको दिलो. आज म्हाका म्हजो एक जल्लो जितो मेळ्ळ्यार हांव ताका हाता तळव्यार घेवन आनंदान खेळयन. ताचो उमो घेन. ताच्यो मिशो मोरपांखांवरी चेहऱ्यावेल्यान भोंवडावन घेन. म्हज्या मोगाच्या मालुणाक आंगार घेवन हांव जोजयन. पूण आज खंय गेले हे सगळे म्हजे भावबंद! हांव बशिल्लेकडेन हुंडके दीत रडूंक लागलों. हांवें परत एक फावट मळबावटेन तोंड करून किंवाट्यान उलो दिलो, पूण तो उलो पातळिल्ल्या काळ्या धुंवरान विरून गेलो काय बुराक पडिल्ल्या मळबांतल्यान पार गेलो, कांय कळ्ळें ना. तरीय हांवें आड्डत म्हटलें, 'खंय आसा तूं मसणो? खंयचे दिकेक? सोर्गांत, नरकांत काय पाताळांत? आमी तुज्या नांवान शबै घातलो पूण गेल्ल्या धा-वीस लाख वर्सांत तुवें तोंड दाखयलें ना. खरोच आशिल्लो तूं? निमाणें एकच फावट हो निमाणो अश्वत्थामा तुका सादयता, विनयता, पाराथता. तूं आशिल्लो काय नाशिल्लो इतलेंच कळ्ळ्यार पुरो म्हाका. इतल्या वर्सांचो हो गोंधळ सोंपय म्हजे तकलेंतलो. मरतना हो घुस्पागोंदळ घेवन मरूंक दिवं नाका म्हाका! एकच फावट असो म्हजे मुखार येवन उबो राव. हांव कोणाखातीर कांयच मागचों ना. पुरो जालें पांयार नाल्ल फोडिल्ले, फातराचीं देवळां बांदिल्लीं. आयज ह्या बंजर कॉंक्रिटच्या जंगलांत तुजें देवूळय खंय तरी धूळ खायत पडलां आसतलें. तुका सारायं कितें आसा म्हणटाले. पूण तुज्या बोडार घातिल्लें एकय फूल केन्ना बावनासतना उरलें ना. तुजे भेटेक गेल्ले अपघातान मरत उरले. तुका मनासावन भजतले आवयचे पूतय मरचे उरले नात. तरीय पिशांक बुद्द आयली ना. फटकिरो ब्रह्मांडाचो धनी म्हणटालो पूण तुज्यान ते निमाणे चानयेक वांचोवंक जालें ना. ती सुकिल्ल्या झाडाचे सुके ताळयेवयल्यान पडून मेली. तूं म्हणटा तें एक घुंवळे वखद आसलें. कोणें कोणाक फटयलें, कोणें फटोवन घेतलें, तुजें नांव निशाण नाशिल्लें जाल्यार घडये धोशी पडच्यो नासल्यो. तिसरें म्हाझूज जावचें नासलें. कोणें गाय मारली म्हण कोणें बैल मारलो. कोणें हिन्दू मारलो म्हण कोणें मोयर मारलो. कोणें किरिस्तांव मारलो म्हण कोणें ज्यू मारलो. कोणें देऊळ फोडलें म्हण कोणें घरदार लासलें. तुजींच कर्मां, तुजींच आडनांवां हीं सगळीं!

हांव परत एक फावट उठलों. कोणाच्या आनी सांगाड्याच्या राज्यांतल्यान पयस वचूंक लागलों. हात आनी पांय दोनूय भुंयेक तेंकयत म्हाका एकच खोस भोगताली. हाव मोनजातिवरी हातापांयांर चलूंक लागिल्लों. घडये झडून वचूंक राविल्ले म्हजे पांय परथून घटसाण घेत! हांव म्हजे मोगाळ मोनजातींत परतून वचून मेळून ताच्यांतलोच एक जायन! ज्या दिसा हांव तांचेपासून वेगळावन वचून परको जाल्लों त्याच दिसाच्यान मनीसजातीक गिराण लागिल्लें. हांव व्हड जाल्लों, देडशाणो जाल्लों, अहंकारी जाल्लों, क्रूर, भकारो, सुवार्थी जाल्लों. म्हज्या पोटाची लांबी रुंदी म्हाका कळना जाल्ली. हांवें फाल्यांच्या हुस्क्यान राशी घातल्यो, विमो काडलो. चरूंक येद्दो व्हडलो मेकळो संवसार आसतना राशी घालप, विमो काडप म्हटल्यार केदी व्हडलीं अवचिन्नपणां! केन्नासावन फाल्यांचो हुस्को लागिल्लो आसतलो काय मनशाक? पूण ज्या दिसा तो हुस्को लागलो तो पाड खीण. फाल्यांच्या हुस्क्यान धंदे आनी पसारे, गुदांवां आनी पयसो, दुर्बळ आनी गिरेस्त. म्हजें आनी तुजें, झुजां आनी मारामाऱ्यो. भोगतलो आनी भोगून घेतलो!

हांव वचूंक सुटलों. हातांत मूठभर बीं घेवन दोंगरावटेन, झाडावटेन जित्या जिवाच्या सोदांत... मगेर म्हाका दिसलें, हांवें जाणा जावन खंयतरी बीं वारोवप आनी तांकां कोंब फुटचेली वाट पळयत रावप हेंयूय सैमाभायलें. सैमाक सगळें आपसुकच करूंक दिवंक जाय. सैमान सगळें आपखोशयेन केल्लें लेगीत. सगळें सगळें दिल्लें, पियेवंक नितळ उदक, खावंक पालो, फळां, कंदमुळां. आसऱ्याक मेडी, वारो, तण, करड. आंग धांपूंक ऊल, कापूस. पिडेक झाडापाल्यांचीं वखदां. उजवाडाक सुर्या, देवळाचे खांब कशे दोन घटमूट पांय.

म्हाका सैमान घटमूट पांय दिल्ले तें संवसार खांदार मारून एका वाठारांतल्यान दुसऱ्या वाठारांत अन्नाच्या सोदांत भोंवत रावंक. एकेकडेन रावप ना, सांचप ना. सुवार्थ धरप ना. म्हजें म्हजें म्हणप ना. हांवें एकेकडेन रावन शार बांदलें, कोट बांदले, बैलाचे मानेर जूं दवरलें, माती भाजून वीट केले आनी सगळो विस्फोट जालो. ह्या शारानच खणलीं गटारां, रचलीं शस्त्रां अस्त्रां आनी मांडलीं झुजां. घुंवळे वखदां, पड्ड्यावेल्यो बावल्या सगळीं भौतिक सुखां, झुजाच्यो आखण्यो हांचींच कर्मां. एक बिजूट लोकांच चोमो कोट बांदून हातांत फातर घेवन राविल्लो. आपणाक सुरक्षिताय मेळची जेवंक खावंक न्हेसूंक बरें मेळचें म्हण एकठांय चेचल्ले हे चोमे. मगेर हांच्या लक्षांत आयलें, आपणें सुरक्षितताय मागतना आपलें बरेंचशें स्वातंत्र्य वगडायलां. हेरांचें आयकुचें पडटा, चोम्याचे नेम, कायदे पाळचे पडटात हांगा एक दादाय आसता. मगेर सुरू जालीं नवीं नवीं तड्डकां. केन्ना राजेशाही केन्ना हुकूमशाही, केन्ना कम्युनिस्ट, केन्ना सोशलिस्ट. मगेर आयली लोकशाय आदींच चंचळ. तातूंत दार उकतें. आदींच पारपोळ, तातूंत वंयूय ना. परत ताका आनी भ्रश्टाचाराचीं, जातिचीं, धर्माचीं कांक्रां. शेवटाक गणीत कितें एकोणपन्नास लोकांचेर एकावन्न लोकांनी राज्य करप. एकोणपन्नासांच्या नकाराक कांयच मोल ना. मतां मतांचो जुगार. मतां दिशी जाल्यार रान कातर नातर गोमटी कातर. मतांनी वेठीक धरिल्लीं मनां मुखार लाचार जाल्ली राज्यपद्दत. सैमाचेर सगळ्यांत चड हावळ आयली ती लोकशायेन शेवटाक ती एक वायट राज्यपद्दत म्हण प्रोव्हार जाली आनी कोंसळून पडली. शेवटाक पन्नास वर्सां तर संवसाराक कसली राज्यपद्दतच नासली फक्कत अच्छेवी खेवी अराजक!

अस्तुरेची मुक्ति हाचेर कितलो घोळ घातलो. शंबर दोनशें शेंकडें तेंच तिच्या गुप्त आंगाचेर तिचो पुराय अधिकार मानून घेवन कोणालो गर्भ पोटांत वाडोवचो हें तिकाच थारावंक दिल्लें जाल्यार तिचे मुक्तिचो प्रस्न खिणांत सुटूंक येतालो. अस्तुरी भोगून घेवपी न्ही तर भोगपी अशें धरिल्लें जाल्यारच हो प्रस्न सुटूं येतालो.

तेंच भुरग्यांल्या घुसमटाचें. शाळे भोंवतणच्यो वणट्यो काडून उडोवन अक्षरांत बरपांत ज्ञान घालिनासतना तांचो घुसमटमार सोंपोवं येतालो. त्या बरपांतलें ज्ञान ताणून ताणून इतलें भायर पावलें, अणू फोडपी खाटीक निर्माण केले ताणें!

म्हाकाय एका काळार अहंकार आसलो, हांव खूब सुधरलां, म्हाका सगळें विज्ञान कळटा, हांव विमानांतल्यान आवाजाच्या, उजवाडाच्या वेगान उडटां, हांव सगळीं सुखां भोगतां म्हण. पूण आतां फाटीं वळोन पळयल्यार मन सुन्न जाता. पन्नास साठ कोटी वर्सांचे हे धतरिर सुधरिल्लो सुखी मनीस म्हण हांव कितलीं वर्सां जियेलों? सगळेच चार शेंकडे. वाफेचें इंजीन घडतसान, देवीवेलें वखद रोदून काडतसान सगळे चार शेंकडे. एकेवटेन नितळसाणेची, सैमावांगडा सुशेगाचीं लाखलाख वर्सां आनी दुसरेवटेन धावपळिची, भिरांतेची, टेन्शनाची पूण भौतिक सुखाची खातोड जाल्ली चारशेक वर्सां! कितें खरें कितें खोटें! कितें बरें कितें वायट? हें मुंयेवयर इल्लेंइल्लें भोगत राविल्लें जाल्यार आनीक कांय शेंकडे काडूं येताले.

कुडिची सगळी शक्त सोंपून गेल्ली. फोंडाक थर्त भियेत हांव पयस पयस वचूंक पळयतालों. ह्या वाठारार म्हजो मोग आसलो. पांय ओडून हात तेंकयत तरी म्हाका ह्या वाठारांत भोंवचें अशें दिसतालें. म्हजे पांय परत जिवे जावचे, म्हज्या मनाक परत कोमरी फुटची, म्हजें बीज केळोवंक एक अस्तुरी म्हाका भेटची, परत उजवाडचें, परत पावस पडचो अशें म्हाका भोव दिसतालें.

भोंवतणीं कांय झाडां मरून केन्नासावन तशींच उबीं आसलीं. तांचो एक ताळो नासलो, एक पान नासलें, इल्ली सावळ नासली, शिरंतरां

ञी ओलसाण नासली. फक्कत पावसान कुसनात म्हण पडनासली. ताचें ांबें मरण म्हज्यान पळोवं नज जाल्लें. झाडां म्हटल्यार फक्कत सावळी, फ, फळां आनी भोंवतर मेडी कण्णां अशेंच हांवें धरिल्लें. झाडां म्हटल्यार ोव न्ही, झाडां म्हटल्यार खुर्ची, पलंग न्ही. झाडां म्हटल्यार फळी, यो, खांबे न्ही हें तांकां कित्याक कळ्ळेंना? पावस वाऱ्याक आपोवणें पी, हवेंतलें वीख ओडून घेवपी, किरांमोरांक आसरो दिवपी ह्या देवारुपार ी कुराड कित्याक घातली? मूळ सोडून झाडान सगळें सगळेंच म्हणिल्लें मुळारच कुराड घातली हांणी. कुराडेर कित्याक बंदी घातली ना? ांत कुराड दिसल्यार चल शंबर वर्सांची बंदखण. पड कुसत म्हणूंक य आसलें. पूण झाडांचीं मुळांच मारून मोठी सैमहत्या केली. झाडांचीं डां विकून पयसो जोडलो. मुर्खावरी रिजर्व बँकेमुखार आमीं हातांत घेवन गर पयसो राखताले हे. पूण येद्दी व्हडली झाडांची देवदुर्लभ संपद राखूंक ण आसले? भोगात आतां. पयशांच्यो भांगराच्यो राशी पडिल्ल्यो आसतल्यो तां काँक्रिटाच्या भुंयारांनी. पूण आतां संवसारांतलो सगळो पयसो एकठांय ो तरीय पुरूसभर जितें झाड विकत घेवंक जावचेंना. एक हरवें पान कत घेवंक जावचेंना. हांव एका झाडाच्या मुळासरी बसलों. मेल्ले आवयच्या ळीवर दुख्खान मोगान सांसपुचें तसो हांव झाड सासपूंक लागलों. म्हज्या कून खवळां जाल्ल्या दोळ्यांतल्यान दोन दुकां व्हांवन मुळार पडलीं. हांवें स्तेन वयर झाडासरीं पळयलें. म्हाका किंवाट्यान दिसलें, हाका एकच, क्कत एकच हरवें पान फुटचें. हांवें तें दोळेभर पळोवचें आनी हांव मरचों स्ट मनान! म्हाका आतां खोलायेन दिसलें, सगळी मनीसजात मेली म्हण तरिचें कांयच वांकडें जावचें नासलें. पूण हीं झाडां नासल्यार मात सगळो नर्थ जातलो! झाडाच्या एका पानाखातीर हांव मरूंक तयार आसां!

सगळेकडेन एक किण्ण एकसुरी, वांज शांतताय पातळिल्ली. आदीं जित्या वाक, वाऱ्याक, पावसाक, मातयेक, दोंगराक आपली अशी एक सुक्षीम ेकवण आसताली. ती प्राणांतल्यान व्हांवताली, श्वासांतल्यान हुंकारताली. तन्य सुकिल्ले हे पडींग भुंयेर आतां कांयच नासलें. पूण म्हज्या विद्रूप भियेल्ल्या मनांत फक्कत कानाचे पड्डे फोडपी कर्कश आवाज घुंवताले. ातूंत पश्चातापाचें रडप आसलें, भिरांतेच्यो किळांच्यो आसल्यो, मरणाच्यो येल्यो आसल्यो. निमाणें आवय लेगीत आपल्याच मरणाक रडटाली.

म्हजें कूळ मूळ सगळें मेलां. आनी हांव तरी रडले बगर कसो रावं? ांव खूब रडलां म्हज्या मरणाचेर, म्हज्या आपल्या-पेल्यांच्या मरणाचेर आयजवेर खूब रडलां. मरण म्हटल्यार मनशाक भयांकृत काळखा राज्यांत, काळख्यो राती काडूंक सट्करून धुकलून दितात आनी ताका उजवाडाची ेगच आसना अशें म्हाका दिसत रावलां. म्हण दर एका मरणाचेर, म्हज्या ाल्यांच्या मरणाचेर हांव खूब रडलां. तरीय हांवें आतां सगळीं आपल्यापेल्यांचीं रणां पचयल्यांत. म्हजें मरणय हांवें पचयलां. म्हज्यान फक्कत हीं सैमाचीं रणां, ही शांतताय सोंसू नज जाल्या. जाका हांव काल मेरेन तिनसांजकात्रेचो अवचिन्न आवाज म्हणटालों, तो घुगमाचो आवाज म्हज्या कानार पडल्यारच म्हज्या कानांत कोणें संजीवनी अमृत रकयल्लेवरी जातासलें.

म्हाका एकच खंत भोगता, निमाणें आमकां बरी वाट दाखोवंक कोण म्हापुरीस, देवावतार मेळ्ळोच ना. अधर्म पयसावंक आनी सज्जनांक राखण देवंक युगायुगांत येतलो म्हणपी तो कृष्ण खंय गेलो? लोकांल्या मनांत मोग, करुणा पाजोवपी तो बुद्ध खंय पावलो? निमाणें दादलो बायलेचो संबंध निखटो कामभोगच उरिल्लो. निखट्या कामभोगांतल्यान खंय जल्मूंक आयल्यात म्हामनीस? ती तर एक नितळ मनांची, नितळ कुडिंची तपश्चर्या! ह्या राक्षसी कामभोगान आनी प्रयोगशाळेन जल्माक घातले फक्कत झूज खेळपी सैतान. मोग, करुणा, क्षमा हांचो वास नाशिल्ले.

हांव मोट्या कस्टान दुख्खान मुखार चलूंक लागलों. एकेक श्वास, एकेक खीण कठीण जायत गेल्लो. कांक्रां वाडिल्ले म्हजे कातीक सामको दुखिचो भगभग पडला. सोंसूं नज जालां. ह्यो कांक्राच्यो कोंकी कोणें घातल्यो म्हजेर? सगळें सैम, सगळी धर्तरी अशें मरण भोगतना म्हाका कित्याक दवरला जितो? केन्ना सोंपतले म्हजे हे वटवटे? दरएक मारेकार म्हाझुजा उपरांत एक अश्वत्थामा जाय आसता काय कितें दुख्खाचें पेरगांव घालीत भोवंक? सोताचीं आनी हेरांचींय पातकां तकलेर घेवंक!

आतां सगळ्या विज्ञानाक, ताणें केल्ले नश्टे उदरगतीक स्राप दिल्लेवरी हांव दुखिच्या ओगांत हुंकारलों. म्हाका निर्शेणेन किंवाट्यान दिसूंक लागलें, व्हडल्या व्हडल्या कारखान्यांपरस म्हजें खळावयलें तीन खुंट्याचे तिखटें व्हड आसलें. म्हज्या मेस्ताल्या भात्याची फूंकच व्हड आसली. टीवीच्या चार हात पड्ड्यांपरस म्हजो खेळांमांड व्हड आसलो. डीप फ्रिजापरस म्हजो गाडगो, म्हजी मडकी व्हड आसली, एंब्रियो लॅब, क्लोन लॅबापरस म्हजे आवयचो कुसवो व्हड आसलो. म्हासंगणकापरस म्हजी बाळबुद्द व्हड आसली. कोट पाटळोणापरस म्हजी कास्टी म्हाका व्हड आसली. सतरा हात रुंद शिमिटाच्या म्हामार्गापरस म्हजी गरीब पांयवाट व्हड आसली, सुपरसॉनिक विमानापरस म्हजे दोन पांय म्हाका व्हड आसले. तेच म्हाका विश्वाच्या अंतामेरेन तारूंक शकतासले. अशें अवसानघातकी आडमरण म्हाका येवचें नासलें.

ह्या काळांत म्हाका सुर्याचें पिशेंच लागिल्लेवरी जालें. सदासर्वकाळ हांव मळबावटेन तोंड करून रावतालों. सुर्याचें पिशें काय उजवाडाचें पिशें तें म्हज्यान सांगूं नज. पूण सुर्यावटेन पळयल्यार तो सासणाचें खग्रास गिराण लागिल्लेवरी काळो पडिल्लो. केदें व्हडलें अपरूप धन भेटयल्लें ब्रह्मांडान धतरिक! ताचेसरीं उजवाड असलो, धग आसलो, जिवाचें जितेपण ताची पोसवण आसली. पूण ताचो तो देवदुर्लभ अपरंपार प्रकाश आमकां पावलो ना. आमी भुल्लुसले विज्जेच्या चकचकाक. रात जागोवची, रात भोगची असैमीक अवचिन्नपणां आमी केलीं. गरजेभायली कुचकामी वीज निर्मणेक कोट्यांनी टन कोळसो, तेल लासलें. टनांनी युरेनियम लासलें आनी विखाळ प्रदूशण पातळायलें. साद्या, एकदम साद्या उपायान विज्जेचो पुराय प्रस्न सुटावो करूं येतालो. दीसभर मेकळे सुवातेर सुर्याच्या उजवाडांत वावुरचें. ताच्या उजवाडांतच जेवचें खावचें. काळोख जातकीर घोटेरांत रिगचें. सकाळीं रामप्रहराक उठून परत लागचें कामाक. आंग धांपूंक एक वस्त्र आनी भोंवतर हातांत एक कोयती धरची आसल्यार कित्याक जाय आसले कारखाने आनी तांकां विज्ज? पांच बोटांचो हात आनी एक कोयती म्हाका अंपरुपाची आयदां अशें दिसत रावलां. कोयती झाडाच्या मुळार घाये घालिना. ती फक्कत खांदे ताळे सकाळटा आनी झाडाक ल्हव करता. कोयतेन मेडी, कण्णाचें, करडाचें घर कांय न्ही करून बांदू येतालें. कुराड खरवत नाकाच आसली. तेभायर कोयतेन आंगार आयल्लो वागय आडावं येतालो. तुबकां नाकाच आसलीं. महत्वाचें म्हटल्यार कोयती करूंक धरतरी शंबर वांव खणचेली गरज नासली. हेवटेन तेवटेन फासपून पडिल्ले लोखणाचे फातर उज्यान कडोवनय कोयती करूं येताली. धतरिच्या पोटांतल्यान एक कोयती घेतल्यार ताका भोगसणीच मेळूं येताली. धतरिचें पोट फाळून कुचकामी कारखान्याचे अजरत्र सांगाडे उकते करतना नतद्रश्टांक आनी आतां भोगसणी खंयची! एकेक कारखानो म्हटल्यार एकेक भस्मासूर राकेस!

झाडां सुकून मेल्ल्या रानावटेन एक फावट हांवें निर्शेल्ले नदरेन पळयलें आनी म्हजो फुडार सासपुंचो यत्न केलो. सुकिल्ल्या पानाताळ्यांत कितेंतरी हालिल्लेवरी दिसलें. म्हज्या अजापाक पारावार उरलो ना. सगळी गती थंडावल्ली आसतना हें खंय कितें हालता! हांव ल्हवल्हव मोनजातिचे चालीन म्हऱ्यांत गेलों. मरणाक तेंकिल्लो एक देड वांव लांब नाग थंय कवंडाळें करून पडिल्लो. फक्कत एक रास, सुस्त जिती. आत्तां इल्ली हालचाल करून, फोड वयर उखलून ताणें म्हाका आपयल्लो काय कितें! ताकाय जित्या जिवाची सुलूस लागिल्ली काय कितें! तोवूय जित्या जिवाक रावतालो

काय किर्ते! ताची काय बरी नक्षी केल्ली कात सोलून गेल्ली, रगशेल्ली. ताकाय घडये कांक्र बादिल्ले. तोंडाची तितलीच हाफ् हाफ् हालचाल जाताली. फोड वयर उखलूंकय ताका शक्त नासली. त्या जित्या जिवाक पळोवन म्हजें काळीज मोगान, मायेन आनी वांगडाच काकुटायेन भरून आयलें. तो म्हाका म्हज्या जिवाभावाचो इस्ट, म्हजो सख्खो भाव कसो दिसलो. तो मनशान सोडिल्लें वीख बळून इतलो बुरसो जाल्लो, तरीय तो म्हाका मोगाळ आपलो आपलो दिसलो. हांव ताचेसरीं बसलों, ताच्या आंगावेल्यान मोगान हांवें ल्हवल्हव हात भोंवडायले. म्हटलें, म्हज्या भावा, म्हज्या निमाण्या पेण्याच्या सांगात्या, किर्ते ही तुजी अवतिकाय? तुजें सळसळटें चैतन्य अशें कोणें मारलें? कोणें तुजे कुडीर कांक्रां रोयलीं? पूण इस्टा, हांवें जायते स्राप दिले. म्हजें सोड, पूण तूं कोणाक स्राप दिवं नाका. तुज्या स्रापांक, तुज्या हुंकाराक मोल आसा. कारण तूं पुराय सैमीक. म्हणच तुज्या हुंकारांत सत आसा, सैमाचो ॐकार आसा. मनीस नाशिल्लो जाल्यार, ताणें सैमहत्या करूंक नाशिल्ली जाल्यार, वीख पातळावंक नाशिल्लें जाल्यार तूं त्रिकालाचो धनी जातासलो. असो मनशाच्या मरणान मरचो नासलो. तुज्या तोंडांत इतलें वीख आसलें पूण तुवें केन्ना निरपराध जिवाक मारलो ना. नम्र जावन पयरापयस रावलो. आमच्या मनशाच्या तोंडांत वीख नासलें तरीय आमी सगळी धर्तरी विखाळ करून सोडली. म्हाका भोगशीय. तुजे हे दुखिचो तुज्या मरणाचो हांव मोटो गुन्यांवकारी. हांवें ताचे कुडीक हात लावन नमन केलें. तशें नमन करतकीर म्हाका म्हजेंच अजाप दिसलें. शेंकडो दोन शेंकडे हांव विसरूनच गेल्लों हे नमन. आतांच म्हाका दिसलें, म्हजें हें मोटें ढोंगीपण. मानेर सुरो घालून मरत्या जिवाक नमन केल्लेवरी. तो नागराज कांय वेळ दुखीन फडफडिल्लेवरी जालो आनी ताणें निमाणी मान उडयली. आतां म्हाका खरेंच दुख्खाच्या ओगान रडूंक येवंक लागलें. हांव हुंडके दीत रडूंक लागलों. म्हजो धाकलो भाव फाटीं घुसमटून मेल्लो तेन्ना लेगीत हांव इतलो रडूंक नासलों.

खूब खूब फाटीं चुकून नागाक मारल्यार आमी मोट्या भोवमानान ताका जानी, फुलां घालून पुरताले. ताका वाठाराचो राखण करपी खेत्री लेखताले. निकतोच न्हावन येयल्लो नितळ ब्राह्मण कसो लेखताले. पूण आतां आमची सगळी स्रद्धा, निश्ठा लासून कोळसो जावन गेल्ली.

पूण वागाक काग्रेश्वर, नागाक नागदेव, हतीक गणेश, कासवाक कूर्मावतार, बैलाक नंदी, गायेक गोमाता म्हण पुजपी आनी दोंगर, न्हंयो, मळब, पावस, वारो, उजो, वड, पिंपळ हांकां भजपी ह्या लोकान येद्दो व्हडलो सैमसंहार कसो केलो! हेच तर लोक म्हणटाले, आत्मो मोक्षाक पावचे पयलीं दर एक जीव जिवाण्याच्या जल्मांतल्यान भोंवडी करून येता म्हण.

संवसारांतलो निमाणो मनीस संवसाराची निमाणी भोंवडी करूंक हांव आशेतालों. एका काळाक पिर्तुमेळ प्रदक्षिणा घालची तांक आशिल्ली म्हज्या पांयांक. हांवें पांय वगडायले, सकाळचें दंवान भिजिल्लें तण वगडायलें, जांबळे किनळेची हरवी सावळी वगडायली आनी म्हज्यो सगळ्यो भोंवड्यो अर्दारच उरल्यो. ह्या डांबर रस्त्याच्या जाळ्यांतल्यान, काँक्रिटाच्या जंगलांतल्यान वाट काडीत खंय मेरेन पावन पावतलों हांव! घराचें कंवच्यो मारिल्लें कंपावंड धरून तोफ प्रक्षेपणां उबीं केल्ल्यो राष्ट्रांच्यो शिमो मेरेन कितले आडमेळे वाटेर. बर्फ कांबरून घेतिल्लो, जाचेर ईश्वराचो रयवार आसा म्हणटाले तो म्हजो हिमालय! असोच काळो पडिल्लो आसत काय, मरणान ताकाच गिराशिल्लें आसत काय! जाच्या उदकान आपली कूड अर्पूंक, व्हांवोवन वचूंक आशेताली ती म्हजी गंगा माय. तिचोय असोच कुसून रेबो जाल्लो आसता काय! कितल्यो कुडी घेतल्यो तिणें पोटांत पोट फुगून मेल्ल्या मनशांच्यो. निमाणें मरताना तिणें स्राप दिल्लो आसतलो मनशाक, तुमचें निसंतान जावं म्हण. हे मुखार एक कूड जल्मुंकय फावची ना आनी म्हजे धडेचेर मरूंकय फावची ना म्हण. कितली पवित्र, कितली नितळ, कितली उपकारी म्हजी गंगामाय. पूण मनशान शेंकड्यांनी शेंकडे आपली सगळी घाण, आपल्यो कुशिल्ल्यो कुडी ओतल्यो तांतूंत. स्राप दिलेबगर कशी रावत ती. आपलें आंग आंगभर वस्त्रान धांपून घेवपी, आंगार एक इल्लो किडो चरल्यार बोवाळून ताका फापडून चिड्डुवपी ह्या मनशांनी हे धतरिर शंबर हजार वांव अगड फोंड खणले, खणून खणून डांबर शिमिटाच्या रस्त्याचे जोळ घातले, झाडां मारून तिका वताच्या रखरखांत उडयली. तिचें शींय, तिचे रुतू ना केले, तिचो पावस बंद उडयलो. मनशापरसय चड जिवी जिवसाण आशिल्ली तिका. दर एक खोन्या घायान ती रडल्या. दरएक झाड पडटना ती हुणकेल्या. तिका जीव भरिल्लो खीण धरून ती अशी शरपंजरी पडिल्लो खीण हांचे मदल्या काळांत तिणें कितलीं मोडां, वाशाडां, जगबुडी, म्हापुरी, हिमयुगां आंगार घेतलीं आनी पचयलीं. ना हारली ना ती. परत परत आपलो सैमसांबार घेवन उबी रावली. सदां नवो, ताज्जो, जिवाक थाकाय दिवपी मनभुलयणो. पूण मनीस मात्र म्हाकाळ जावन उबो रावलो तिचे आड. चिंवाचें दूद ओडटां ओडटां रगत ओडून जीवन मातून गेलो. धतरिक चांचावन, नागोवन बाश्कळ देडदमडेचीं भौतिक सुखां भोगतालो ता.

म्हजे सामकार तो प्रचंड वड उबो आसलो. तो सुकून ताचें पानान पान झडून गेल्लें. सालीय निखळून पडिल्ल्यो. खांदयो आनी ताळ्यांच्यो काड्यो भुतांच्या बोटांवरी मळबांत रिगिल्ल्यो. ताका वेंगोवन आयिल्ली एक वालच तशीच मरून गेल्ली. तिणें वडाक घातिल्ली वेंग तशीच आसली. तें विद्रूप दुखदिणें मरण म्हज्यान पळोवं नज जालें. हांवें लजेन मान सकयल घातली आनी हांव पांय ओडत हाताच्या आधारान चलूंक लागलों.

म्हाका पळोवंक कोण ना, हांसूंक कोण ना. म्हाका कायद्याची भिरांत ना. संस्कृतिचें चेपण ना. म्हाका कोण प्रतिस्पर्धी ना. म्हाका फाल्यांचो हुसको ना. मरणाची भिरांत ना. हांव नागडो हातापांयार कसोय चलूंक शकतालों. हांव एक मुक्त स्वतंत्र सुखी मनीस आसचेलों. पूण म्हजे तकलेर पातकाचें वजें आसा. शतकांच्या पातकाच्या वज्याखाला हांव घुसमटून वचत आसां. हीं वजीं पातकांचीं आनी बुरशा फाटल्या पावलांचीं, कळमेल्ले परंपरेचीं. हीं वजींच भोव वायट. भूतकाळाचीं हीं वजीं वर्तमानकाळ कुसयतात आनी फुडार नासयतात. देवा, हीं वजीं शेवटून मारून हांव अदीम पयलो दादलो अदम कसो अस्तुरेचो निर्मणे भोग घेवंक शकन काय? म्हज्या धड बियांतल्यान हांव पयलो मनीस जल्माक घालूंक ताकन काय! सोपूत घेतां, कुडिचो वखवख भागोवंक, फक्कत कुडी धासूंक हांव भोग घेवचों ना. रुतू राखतलों. फक्कत पुनवेच्या चंद्राचे गवायेन हांव तिचेसरी वयतलों, फुलांनी भरिल्ल्या पारजताच्या पोनांत गेल्लेवरी. ल्हवल्हव एकेकच फूल गळटलें हाची जतनाय घेतलों. म्हज्या स्पर्शान तिची कूड पिनर मारिल्लेवरी रसरसून येना ते मेरेन वाट पळयत रावतलों. तिचे देवकुडिचे निर्मणेची गर्भकणी जागी जालेबगर आनी तिणें म्हाका अंतरमनांतल्यान आपलो म्हण आपणायलेबगर तिच्या कुसव्यांत राम, धर्म, बुद्ध जल्माक येवचो ना हें म्हाका पटलां. दर एका मनशाक आपल्या रुतुची वाट पळोवंक जाय. हो रुतू म्हटल्यार मनाकुडिचो, काळजाचो, रगताचो, श्वासाचो सुरमेळ. तो एक दुर्लभ खीण.

पूण आतां म्हाका भोव दुख्ख भोगता, हे लोक गर्भपिशवी काडून उडोवन अस्तुरी भोगताले, अन्नदाणो कुसोवन रोसो काडटाले, सुर्याक फाट फिरोवन तेल लासताले, झाडां मारून कोळसो करताले, सैम सोडून बंद कुडींत बसून पड्ड्यावेली बावली पळयताले. मोग सोडून सत्ता गाजयताले.

सैमचाक इबाडून मरणाचे वावटळेंत गाविल्लो हांव निमाणो अश्वत्थामो म्हज्या शेळ्याक, म्हज्या अळम्यांक पुनर्जल्म मेळचो म्हण बोमलेच्या देठासावन आंवडेतां. हांव खूब खूब मोग करतालों म्हजे धतरिचो. तेल लासुंनाकात, रसायणां ओतुंनाकात, बाँब फोडुंनाकात म्हण हांवें खूबखूब सांगिल्लें. पूण म्हजो आवाजच चेचिल्लो चोंयवटेच्या झगमगाटान. म्हज्या

ार आज ह्यो आंगभर कांक्राच्यो गुठल्यो वाडल्यात तरीय धतरिवेलो ो मोग इल्लोय उणो जावंक ना. एकच फावट ह्या अदमासक ईव्ह थल्यार मोगाच्या नाड्यार सगळीं कांक्रां पचोवन हांव नव्यान स्रस्ट घडयन... ... पूण म्हाका वांगड जाय म्हज्या झाडा झोपांचो, मोनजातिचो. हांव ातापान परत एक फावट हुंडकेलों, तोच तर हांव शेणून बसलां! ताचेबगर ी जीण कुचकामी, देडदमडेची!

हांवें एक फावट मेल्ले नदरेन चोंयवटेन पळयलें. दोळे ताणून हांव चोंयवटेन ली तरी हरवीसाण सोदतालों. म्हाका मनासावन दिसतालें, खंयूय इल्ली ीसाण दिसल्यार हे धतरिक परत जीव फुकूंक येत. पूण म्हाका हो सगळो ार पयसुल्लो म्हजो न्ही असो दिसूंक लागलो. झाडां, दोंगर, व्हाळ, ं मेल्यात म्हण हो असो दिसता काय खरोच अनवळखी वाठार हो का? म्हजो गांव, म्हजो देश, म्हजो भेस असो कोणें अनवळखी केलो का? म्हाका याद आसा खूबखूब वर्सांफाटीं हांव हिन्दुस्तान म्हणिल्ल्या ांत जल्मल्लों. ताका भारत म्हणय म्हणटाले. पूण आतां हीं नांवां खूब टीं पडून गेल्यांत. आतां ह्या वाठाराक इन्डे अशें म्हणटाले. कोणकोण ा इंग्लंड, हेंच अमेरिका' अशेंय म्हणटाले. ल्हारार ल्हारां आयलीं. तेंचें डें न्हेसप, तेंच्यो माकड हुडयो, तेंचीं रगत नासोवपी गायनां, तेंची रानटी ा, कुचकामी म्हाल, मनशाक घालून पिळपी टॅक्नोलोजी, विखार ळावपी सायन्सां, भूंयच खावपी बीं, सारें सगळें हांवें घेतलें. पूण तेणीं ें कुस्कूट लेगीत घेतलें ना. साडी चोळी घेतली ना, शीतकडी घेतली कालो जागर घेतलो ना, अभंग भावगीत घेतलें ना, मल्याळी बंगाली ली ना. जें घेतलें तें आपलेंच म्हण हाडून विकलें. हळद लसूणय म्हजी ली ना. आमी सारक्के इंग्लंड अमेरिका आयात करीत रावले. आमची गशाळा जाली, आमची कचऱ्या आदोड जाली, आमचें झुजामळ जालें. मचें कांय उरलें ना, तेंचें कांय रुजना. मदलंड अवतिकाय!

शेवटा तेंचे पाड बुद्दीन, पाड देखीन तेंच्या वांगडा आमीय मेले. उत्तर ते दक्षिण ध्रूव मेरेन फक्कत मरणाचो अच्छेव. केन्ना एक जावंक पावले . केन्ना शिमो पुसूंक पावले नात. पूण मरणां मात सगळ्यांक सारकीं. म्हाका एकंच खंत भोगता, मरण फाल्यांर तेंकलां हें जाणा जावनय फ्रिजांतलें झेलाद उदक पियेवचें सोडनासले. शेवटाक सगळींच घुंवळें दां जाल्लीं. सोरो घुंवळे वखद तशें फ्रिजांतलें उदकय घुंवळे वखद, र स्कुटरय घुंवळे वखद आनी झूजय घुंवळे वखद.

रस्त्या कुशीक कोणालो तरी पुतळो उबो केल्लो आसलो. ताच्या पांयांसरीं ममरणाचे आंकडे बरयल्ले आसले. म्हजे तकलेंत सगळोच घुस्पागोंदळ. तलो काळ लोटला, खंयचें वर्स चलता? खिरस्त मरून, पैगंबर जावन, लेवाहन गादयेर बसून कितलीं शतकां उलगल्यांत? शतक पुर्तिचो शबै ा घातिल्लो तांणी? अखंड अज्रंवर काळाच्या कुस्कुटायेद्या काळाक ंच तोडून शतकां म्हण मनयताले हे. मार झेतान फोग मारीत ह्या कांतल्यान त्या शतकांत वयताले. खरें तर शतक म्हटल्यार फाटिफुडें शेल्लो, चुकिच्या गणिताचो एक निरर्थक काळतुकडो. वयल्यान आनी पलेंच शतक व्हड. आपणेंच तें सगळें खावन भोगचेलें. काळाचीं वर्सां, कां घालूनच हांणी सगळें चुकयलें काय कितें? बेगिबेगीन भोगचेली ृतीक लागली काय कितें? ना तर धतरिची साठ कोटी वर्सांची मिळकत, ी संपद हांणी चार शतकांतच खावन कशी काबार केली.

काळाचो हिशोब सोडूंक जाय आसलो. ताचे तुकडे घालूंक फावनासले. र्चिं उदेवप आनी अस्तमप. हाचें फाटींफुडें कांय ना. होच काळाचे जिणेचो ोब सारको आसलो. सूर्यच देव. ताचो उजवाडच जिवीत. ताच्या सांगातानच दीस सुखान वचचो हेंच खरें. आज आजचो एक मुक्त उजवाडाचो . दशकां शतकां सगळें फट.

हांवें कांक्राच्या चरत्यान घट जाल्ली मान मात्शी दावेवटेन घुंवडायली. म्हाका मरून कळींवर जाल्ल्या त्या दोंगराच्या मुळसांतल्या गिरेस्तालें गिरेस्त देवूळ दिस्टीक पडलें. ऊंच, सोबीत, चकचकीत भांगरा कळस चडयल्लें. वयर आसिडाचें धुंवरेल्लें काळें कूप, सकयल मेल्लो पडींग दोंगर हांचे फाटभुंयेर तें म्हाका भोवच विद्रूप दिसलें. म्हाका दुबाव येयलो भितरलो देव ह्या बंजर देवळांतल्यान उठून गेल्लो आसतलो काय तसोच फातर जावन पडिल्लो आसतलो! खंय गेले आमच्या देवालें संगमरवरी फातराचें देऊळ तुमचेवरी चिऱ्यांचें न्ही अशें म्हणटाले ते? खंयचो देव गर्भशिरवंत, शिरवंत आसतालो आनी मध्यमवर्गी वा सामको कंगाल गरीबय आसतालो? तेच तांच्या देवांत आपणाक जाय तशी सासाय ओतताले आनी जागृत करताले आनी मगेर गाराणें घालून मागणें मागताले. ऊंच ऊंच कळस चडोवन देवाक व्हडपण दिताले. हजारांनी भावीक येवचे म्हण धडपडटाले. दबयो भरच्यो म्हण आशेताले. हांचीं देवळां कांय ल्हान हॉटेलां, कांय तीन तारांकित, पंचतारांकित हॉटेलां. मदींमदीं देवाक शुद्‍ध करूंक, चड सासाय ओतूंक म्हण अशटबंधनां घालताले. देव केदो मनीस केदो, देव मळबापरस व्हड, आकाशगंगेपरस व्हड, ब्रह्मांडायेदो! मळबभर नखेत्रांचीं कुपां परजळावपी. आनी ताका मोटवीं मनशां मंत्रान शुद्‍ध करून घेतालीं. सोताचे मनाकुडींत मत्सराची, स्वार्थाची, मोहाची घाण भरिल्ली आसतना देवाक शुद्‍ध करप म्हटल्यार व्हडलीं पिशेपणां गा! कसली व्हडविकाय ताचे बुद्‍दिची! कसली काजळी थापिल्ली ताचेर!

म्हाका आतां एक प्रस्न पडला, देवाक मनशान सोताच्या रुपांतच कित्याक पुजलो? हेंवाळें, बेबो हांच्या रुपांत कित्याक पुजलो ना? सोताच्याच रुपान मनशान देवाक पुजलो आनी सोताकच मटाळून घेतलें. हेर जिवांपरस सोताकच व्हडपण दिवचेलो यत्न केलो. वयल्यान आनी हांणी सगळें सगळें सोडलें पूण देवाच्या नांवार घडिल्लो धर्म सोडलो ना शेवटमेरेन. सारके मगरमिठी घालून बसले धर्माक. निमाणें तोच मोटो विद्वाट थारलो. महात्मा आनी महात्म्य नाशिल्ले हांचे दिशाहीण धर्म. झुजांक तोंड फोडपी. शेवटचें म्हाझूज राष्ट्रां आड राष्ट्रांचें काय धर्माआड धर्माचें कांयच कळनासलें.

वाटेचे वयलेवटेन सुकिल्ले फुलपत्रेचे घोलींत एक हरणा पाडूक मरून पडिल्लें. तें मरून सुकून गेल्लें घडये. पूण ताच्या आंगावेलीं चकचकीत थिकां अजूनय सोबीत दिसतालीं. हें संवसारांतलें घडये निमाणें हरण आसुंये. मनशाक शिरापतां शिरापतां मेल्लें आसुंये. म्हाका दिसलें, अशें सोबीत, म्होंवाळ हरण परत संवसारांत जल्मचें जाल्यार ह्या विश्वाचो कांडून कांडून कुंडो करचो पडटलो.

त्या मेल्ल्या हरणा पाडकाक पळयलें आनी म्हाका म्हजे मेल्ले सान भयणिचो उगडास येयलो. 'एंब्रियो नर्सरिंतलें बेबी' आसलें तें. आवयन एकलेनच वचून ताका एक दीस हाडिल्लें. पूण आवयन ताका केन्ना हड्ड्याक लावंक ना. चिंवेक धरूंक ना. पूण तें सोनुलें म्हजें बायूल आवयची चींव ओडूंक आशेतालें. परतें परतें खाकोळांत रिगतालें आनी हड्ड्याक लागतालें. पूण आवय धुकलून दिताली. तशें हालिंसराच्या आवयांक दूद पानेवपी हड्डेंच नासलें. थानां जिरून गेल्लीं, गर्भाशयां सुकून गेल्लीं. वारनाळयेचो संबंद भुरग्यावांगडा केन्नाच तुटिल्लो. आवयचे उबेंत, तिच्या गर्भाच्या हांथरुणार सर्गसूख घेत वाडपी भुरगें लॅबोरेटरिचे नळयेंत, विज्जेचे उबेंत वाडटालें.

म्हजी मावशी आंगाकांतयेन रसरशिल्ली भोव सोबीत आसली. हड्ड्यांनय ती सुकूंक नासली. चुकून ती आपल्या गर्भांतच गुरवार रावली. लोक तिका हांसूंक लागले. रानटी म्हणूंक लागले. तिच्या दुवाळ्याच्या ओकाऱ्याक लोक विटून पयस रावंक लागले. हातुंतल्यान तूं वांचची ना. भार सोंसतां सोंसतां मरतली म्हणूंक लागले. तिचें पोट वाडटकीर एका विचित्र प्राण्याक पळोवचें तशे पळोवंक लागले. मगेर ती दार धांपून रावंक लागली. बाळंत जातना ती वांचली पूण भुरगें मेलें. भायलो श्वास घेतां घेतां तें घुसमटलें आनी काळें पडून मेलें.

म्हजी सानुल्ली भयण जी आवयचे चिंवेक आशेताली ती व्हड जातां

जातां तिचे दोळे पटके सुके दिसूंक लागले. म्हयने म्हयने ती हांसना जाली. मनशांवांगडा तिची वळखच शेणली. कोणय म्हऱ्यांत गेल्यार घांस मारूंक येवंक लागली. दिसान दीस ती भागून बारीक जाली. तिचो ताळो सुजून तांबडो जालो. कानशिरो काळ्योनिळ्यो पडल्यो. एक दीस मम्मा, मम्मा करीत ती मेली.

सुखाचो कितलोय वीट आयलो तरीय दुख्खावटेन वचची वाट बंद जाल्ली. ड्रग्स, सोरो आनी भौतिक सुखान एडिक्ट जाल्लो लोक. वीट आयलो, नाका नाका दिसलें तरी ताकाच मिठी मारून रावताले. जे नाका म्हण पयस वयताले ते कांय दीस भणंग भिकारी कशे भोंवभोंव भोंवताले आनी परत त्याच भौतिक सुखांत लोळूंक येताले. भौतिक सुखाच्या वर्तुळा भायर जिवीतच नासलें. उदक लेगीत यंत्रान नितळ केल्ले बाटलेंतलें पियेवंक जाय आसलें. भायले खंयचे न्हंये-बांयचें उदक पियेल्यार मरण आसलें. सेफ्टी डिवायसा बगर उकतो श्वास घेतल्यारय मरण आसलें. ताळो पुप्पूस सुजून आंग काळें पडटालें. प्रचंड औद्योगिकरणान मुखार मांडिल्लो एक चक्रव्यूह. फोर्सान सुखां विकत घेवंक लावप. तीं भोगूंक लावप. दुख्खावाटेन वयचेली वाट बंद, मोगावटेन, सैमावटेन, अध्यात्मावटेन, कला, साहित्यावटेन वचचेली वाट बंद! दुख्खाच्यो कल्पनाच हांच्यो आगळ्यो आसल्यो. अर्द मैल चलून वचप दुख्ख, वोतान पावसान वचप दुख्ख, बाळंत वेणो आंगार घेवप म्हटल्यार दुख्ख, भुंयेर बसप म्हटल्यार दुख्ख. उचलून घेवप, सोलून खावप म्हटल्यार दुख्ख. मनीस म्हटल्यार यंत्रामुखार, रोबो मुखार धुकलिल्लो अपंगूळ पेदो. यंत्राचे साचे हेंच तांचें परब्रह्म! कोणा एकेकाक एडिसन, मार्कोनी, न्यूटन, आयनस्टायन हांणी घडयल्ले सांचे ते परतपरत वेगळ्यावेगळ्या रुपान घालीत रावले, मारीत रावले. ल्हवल्हव तकलेचोय एक सांचोच जालो. त्या सांच्या भायले विचार पुसून गेले. आपलो मनीस मरतकीर ताका पुरूंक लासूंक व्हरतनाय कांय दिसना जालें. ल्हवल्हव मनीस एनिमेशनचें बावलें जालें. तांचे सगळे दोर मंत्राच्या हातांत.

तिसऱ्या म्हाझुजा उपरांतचें एक रणखेवी अराजक! जाफरसनान वीस पंचवीस वर्सां लागून क्लोन करून उबी केल्ली घटमूट आनी दयामायाहीण तरणाट्यांची फौज म्हाझुजा उपरांत मेकळी सुटिल्ली. अणुबाँबान उद्ध्वस्त जाल्ल्या तशेंच अंटार्क्टिकाचें बर्फ पागळून बुडिल्ल्या शारांतलो लोक, तेल सोंपून बेकार पडिल्ल्या देशाचो लोक धायदिकांनी फापसल्लो. अन्नाखातीर धडपडटना हिंस्र जाल्ले चोमे एक दुसऱ्याच्या हड्ड्यार बसताले आनी गोमटी कातरताले. राज्य ना, राष्ट्र ना, सरकार ना, कायदो ना, धर्म ना! फक्कत बेबंद सुटिल्ल्या चोम्यांचें अराजक! दर एकल्याच्या हातांत मारेकार तुबकां. म्हाझुजांतल्यान वांचिल्लो लोक कसो आपसांतच झुजून मेलो. सगळ्या भौतिक सुखांच्या उपकरणांक विज्जेच्या झगझगाक चुट्टी लागिल्ली. फक्कत अन्न. लोक घांस घांसभर अन्नाखातीर घोंटभर उदकाखातीर एक दुसऱ्याचो जीव घेताले. आपल्या अस्तित्वाचें निमाणें तेंच एक सत्य म्हण लोकांक पटिल्लें.

कितलीं ओजीं म्हजे फाटीर झुजाचीं आनी नरसंहाराचीं. कुरूक्षेत्रांतलें झूज धरून निमाणें अराजक मेरेन ही धर्तरी मार धाडाय करपी एक झुजामळच जाल्लें. तलवारी बडोवच्यो मेस्तांल्यो साळा धरून, आर्म ॲम्युनिशनांच्यो फॅक्टरी, ॲटंबाँबांचीं प्लांटां फक्कत मनशानच मनशाक मारच्यो येवजण्यो. मोनजाती वरी सोताच्या अस्तित्वाचेंच झगडें जाल्यार कसल्यो झूट खबरो विवेकबुद्दिच्यो, भावनांच्यो आनी मोग करुणेच्यो. तुबकाचे नळये मुखार त्यो आपशींच बाद जावन गेल्ल्यो. आंगार पुराय फौजी मुस्तायकी घालून खांदाक भरिल्लें मारेकार आर्म लावन 'हांव शांती आनी मोगाचो संदेश घेवन वतां' म्हणिल्लेवरी अवतिकाय जाल्ली संवसाराची. न्हिदिल्लेकडेन मारिल्ल्या द्रौपदील्या पांच पुतांच्यो हुयेल्यो, गॅस चेंबरांत मेल्ल्या ज्युंच्यो किळांच्यो, मोटारिंनी रस्त्यार धुंवर सोडून घुसमटून मेल्ल्या भुरग्यांच्यो वेदना, अणुबाँबाचे विस्फोट हेंच मनशाले बुद्दिचें खरें देखतें रूप आसलें. तेच शिराप आसले!

तरीय म्हाका दिसतालें, मनीस असो पुराय मरूंक फावना. फक्कत आनीक एकच संद मेळची. देवधर्म नासतना; शारां बांदनासतना; झूज, सैमहत्या करिनासतना; आंगां धांपनासताना जियेवंक.

एक एक फोंड चुकयत, म्हज्या फोंडाक भियेवन हांव पयस वचूंक पळयतालों. निमाणो मनीस केन्ना मेल्लो ? कोणें केन्ना माती दिल्ली ताका ? म्हजे भोंवतणी फोंडांचें मालें, तरीय हांव मरणाक भियेतालों. जिविताची अशी दशा जाल्ली आसतना मरणाक भियेवप म्हटल्यार अजापच आसलें. असल्या भयंकर किण्ण एकसुरेपणान जिविताची आस्त धरप म्हटल्यार पिशेपणांच आसलीं. आतां म्हाका होलमलें, भित्र्या सोंशापिलावरी म्हजीय ही अस्तित्वाचीच धडपड. सैमाचे खेळिचो हांवय एक प्यादो! हांवय एक मोनजात!

वाटेर एक खोलशी व्हाळशी आसली. तिचें एक तोंड मेल्ल्या झाडांच्या झिलिचे सावळेंतल्यान दुसरेवटेन गेल्लें. चोंय वाठारांतले व्हाळ, न्हंयो सुकून गेल्ल्यो. तळाक धाळे पडिल्ले. पूण ते व्होळयेंत मात इल्ली ओलसाण आसली. ते शेळींत इल्लो शेळो अजूनय हरवो आसलो. सुपायेड्या कुडक्यांत तो पातळून आसलो. ओलो, जितो. म्हज्या अजापाक, म्हजे खोशयेक पारावार उरलो ना. हांव थंयच फतकल मारून बसलों. खीणभर म्हाका दिसलें, हे धर्तरिचें दार कोण तरी परत धाडावंक लागला. सोताच्या अस्तित्वाची एक खर बळिश्ट शक्त! हांव मोगान त्या शेळ्याक पळोवंक लागलों आनी म्हाका दिसलें, म्हजो डी.एन्.ए. शेळ्यांतच खंयतरी लिपला. परत ह्या शेळ्याचो संयोग उजवाडा वांगडा जातलो. ताका कोमरी फुट्टली. ताचें झाड जातलें, रूख जातले. परत वेंग पावनासल्या रुखांचें अटंगें रान उबें रावतलें. पुराय धर्तरी कांपतली. हुंवारांनी पावस पडटलो. हो पातळिल्लो धुंवर सकयल बसतलो. मळबाक पडिल्ले बुराक पुरतले. म्हजे भावबंद हत्ती, घोडो, वाग, सिंह, चितळ, हरण, कीर, मोर, वांशेल, वानर परत धर्तरिचेर येतले. म्हजीय माकड हाडावेली शेपडी झडटली.

पूण सैमराया, तुजेकडेन एकच मागतां! म्हजे हात धर्तरिवेले सुट्टूं दिवं नाका. म्हज्या हातांत फातर घेवं दिवं नाका! म्हाका म्हजे कुडिची लज दिसूं दिवं नाका!

* * *

---

*'जागा'च्या फेब्रुवारीच्या आंकांत भौ. दामोदर घाणेकार हांगेलो 'कोंकणी शुद्धलेखनाचे नेम: एक उकती चर्चा' हो लेख उजवाडा आयलो आनी उपरान्त रोखडेच ह्या लेखान सुरू केल्ले चर्चेंत वांटो घेवपी आनीक दोन लेख आमचे कडेन आयले. 'हांवूंय बी हाचेर एक लेख बरोवन धाडटां' अशें कांय जाणांनी उतरूय दिलें. एका निमित्तान सुरू जाल्ले चर्चेंत 'हुनराण' उरची म्हूण ह्या म्हयन्या सावन शुद्धलेखनाच्या नेमांवयलो एक एक लेख 'पडसादां'त उजवाडा हाडपाचो आमचो विचार आशिल्लो. पूण 'निमाण्या अश्वत्थामा'क वाचप्यां मुखार हाडपाचीय आमकां उमळशीक आशिल्ली. आनी ह्या बरपाच्यो दोन खिस्ती केल्यार वाचप्यांचो रसभंगूय जावं येतालो. हाका लागून शुद्धलेखनाच्या नेमांचेर आयिल्ल्यो प्रतिक्रिया आमी एप्रिलाच्या आंका सावन दिवंच्यो केल्यात हाची ह्या विशयाची उमळशीक बाळगून आशिल्ल्यांनी नोंद घेवंची. आनी निमाणें – 'जागां'तलें बरप वाचून वाचपी आमकां आपणालीं मत्तां, आपणाले विचार मुजरत बरोवन कळयता तेन्ना आमकां खऱ्यांनीच खोस भोगता. 'पडसाद' म्हळ्यार जाग 'जागा'च्या वाचप्यांची.*

— वावुरपी संपादपी

# ीर-सुवादीक कॉलम

ीलीप बोरकार

णूय खंवसलो जाल्यार म्हाका मातूय रडूंक येना.
तूंत तो कवी, लेखक बी असलो कोणूय आसलो जाल्यार घात.
ाका भितरले भितर सामकें हांसूंक येता.
नी मागीर म्हजे म्हाकाच सामको भंय दिसूंक लागता.
गळे लोक रडटात तेन्ना हांव एकदम हांसत म्हूण!
ज्या ह्याच सभावाक लागून लोक म्हाका निरगट्ट म्हणटात.
ातां म्हजो सभाव असो कित्याक जालो म्हाकाय समजना.
तेक हांवें चडशीं मरणां किरिस्तांवांचीं केल्यांत म्हूण जावंये.
टवाड्यार कुकड तसो म्हजो राबितो किरिस्तांव वाड्यार
णटकच अर्दी मर्दी तांच्या मर्णाच्या कार्यक्रमाक वचप जाता.
ाचें कारण म्हळ्यार कोणाचो तरी आयकल्लो सुविचार
क वेळ कोणाच्या लग्नाक वचना जाल्यार चलता
ण मरणाक वता तांचीं घरचीं तें मरसर विसरनात.'
ातूंत हांव पडलों एक ल्हानसोच राजकारणी.
ाटींफुडें गांवांत मतां मागूंक गेल्यार तोंड नाका?
मर्णाक आयलो ना, आतां मतां मागूंक आयला पळय'
सो कोणाच्या मनांत विचार लेगीत आयल्यार हांव सोंपलों.
खून हांव दुस्मानाच्या मर्णाक लेगीत वचून तोंड दाखयतां.
ाका लागून दुस्मानूय सुखी आनी हांवूय सुखी.
क खेपे हांव असोच एकल्याच्या मर्णाक गेल्लों.
ळेत जाल्यार मेल्ल्या घरांत रडप ना आनी कुलकुलाटूय ना.
गळ्याक शांतताय पळोवन म्हाकाच प्रस्न पडलो
ो मेला म्हणपाचें म्हाका बेश्टेंच दिसलें काय कितें?
ो मेल्या उपरांत तो पुनर्रजिवीत बी जालो काय?
ांव दुबावानूच त्या मरणा घरांत भितर सरलों.
ाशांवा भोंवतणी बसलेल्यांची नदर म्हजेर पडल्या मात
गळ्यांनी एकाच वांगडा बोब मारून कुलकुलाट केलो.
बाबा, मातशे दोळे उकते करून पळय कोण आयला तो,
ुता, दिलीप बोरकार कोंकानीचो फुडारी येयला मुरे
ेज्यो कोविता तूं आतां केन्ना वाचतलो रे पुता?
ुजें कालसांव तो व्हरोन घालतालो रे पुताऽऽ!'
असल्यो कितल्यो तरी गजाली काडून म्हज्या नांवान रडप जालें.
जमिल्ले लोक बाबडे काकुटेचें तोंड करून म्हाका पळोवंक लागले.
या वेळार हांव कवी न्हय म्हणपाचें हांव तांकां सांगूंक शकनाशिल्लों
सो मेल्ल्याचें कालसांव हांवें फकत एकदां – एका नाटकाखातीर
हरून घाल्लें हेंय स्पश्ट करूंक शकनाशिल्लों.
ांचें त्या वेळावयलें दुख्ख आनी मानसशास्त्र म्हाका समजतालें.
देखून त्याय वातावरणांत म्हाका भितरल्यान हांसूंक येतालें
म्हाका मरणावेळार हांसूंक येता तशें शोकसभे वेळारूय येता.
ह्या दोनूय प्रसंगांर वातावरणांत व्हडलोसो फरक नासता.
शोकसभेंत मात ते घडणुकेचो हिरो (मड्या रुपान) हाजीर नासता.
असल्या सभांनी आयिल्ले गेल्ल्याच्या नांवान शोक करतात
आनी सभेक हाजीर आशिल्ल्यां मुखार आपलें व्हडपण आपुणूच गायतात.
यर म्हाका अशेंच एके शोकसभेचें 'निमंत्रण' आयलें.

मराठींतले एक ज्येष्ठ आनी थोर साहित्यिक शिरवाडकर भायर पडले.
खरें म्हळ्यार कवी, साहित्यिक बी म्हजे नदरेन केन्नाच मरनात,
पूण म्हज्या ह्या असल्या विचारांकडेन कोणूच सहमत जायना.
आनी हांव ह्या असहमतांकडेन सहमत जावन निमंत्रण घेतां.
शिवाय सगळे साहित्यिक, कवी बी जातीन हजर जाले
आनी हांवच जातीभायलो जालों जाल्यारूय घात!
हांगा म्हज्या साहित्यिक जातिच्या अस्तित्वाचो प्रस्न उप्रासता
कोणाचें साहित्य मानप, कोणाक पुरस्कार दिवप हें हांगाच थरता.
साहित्यीक चड भावनावश जाता तेन्नाच निर्णायक जाता म्हणटात.
अशा वेळार तांच्या सान्निध्यांत रावप फायद्याचें खंय.
जेन्ना विनायक नायकान शोकसभा घेवया म्हळें,
तेन्ना हांवें फटक करून घेवया अशें म्हळें.
पूण कोणाची, कोण गेलो हें म्हाका कांयच खबर नाशिल्लें.
याद जातकच हांवें दुबावान कोणाची काय विचारलें.
गोंयच्या कोणाक देवान याद केल्ल्याचें हांव नेणा आशिल्लों.
आनी तशें घडल्यार हांकां व्हडलेंशें पडून वचचें नाशिल्लें.
तांणी म्हाका दुखेस्त तोंड करून कुसुमाग्रज गेल्ल्याचें सांगलें.
कोणूय गेलो म्हणटकच कोणाकूय वायट दिसप सभावीक.
पूण म्हाका कुसुमाग्रज कोण हेंच कळ्ळेंना.
मुळांत म्हजें मराठी वाचन तशें सामकें कमी.
हांव इंग्लेज, फ्रांसेज, पुर्तुगेज बी लेखक वाचतां.
भारतीय जायच जाल्यार बंगाली, तेलगु, कन्नड चाळटां.
मराठी न वाचपाचें कारण म्हजो मराठी द्वेष न्हय.
मराठी वाचलें जाल्यार म्हजेकडल्यान कोंकणीचेर अन्याय जाता.
कोंकणी साहित्य मराठीच्या खंयच्या साहित्याची कॉपी तें कळटा.
ते परस कोंकणी साहित्य वाचून मराठीची रूच घेवप बरें.
हांवें तकलेक ताप दिवन मराठी लेखकांची याद केली.
पुष्पाग्रज अशें नांव हांवें काव्यक्षेत्रांत आयकल्लें.
एक-दोनदां मेळपाची खंय तरी संदूय लाबिल्ली.
विनायक नायकाची बातमी आयकून हांव चुरचुरलों.
'भुरगो मरे तो' अशें म्हणत केन्ना गेलो, कसो गेलो बी विचारलें.
म्हजें अज्ञान पळोवन तोय म्हाका चुरचुरलो.
आपलें बॅग उकतें करून ताणें एक पुस्तक काडलें.
खूब पयलीं घेतिल्लें आसूंक जाय, पूण नवें नाल्ल दिसतालें.
तें वि. वा. शिरवाडकरांचें 'नटसम्राट' नाटक आशिल्लें.
'ह्या, ह्या नाटकाचो लेखक आमकां सोडून गेलो.'
म्हाका दिसलें, तो आतां भळभळून रडूंक लागतलो.
हांवें नटसम्राट वाचिल्लें आनी लेखकाकूय वळखतालों.
हांवच कित्याक, तांकां सगळे गोंयकार वळखताले.
तांणी गोंयकारांक 'काळोखाचे पुजारी' म्हणिल्लें खंय.
कारण कितें तर खंय गोंयकार आपली भास कोंकणी म्हणटाले.
तेन्ना कोंकणीवादी भौच खुबळून गेल्ले,
आयजूय रस्त्यार कांय खुबळिल्ले कोंकणीवादी दिसतात.
ताच्या मुळाक हेंच एक कारण आसूंक जाय.

पूण म्हाका मात 'काळोखाचे पुजारी' म्हणिल्लें वायट दिसूंक ना.
**म्हाका काळोख खूब आवडटा.**
**केन्ना एकदां दीस पडटा आनी काळोख जाता अशें** जाता.
त्या काळखांत मागीर हांव विशाळ ब्रह्मांड पळयतां,
त्या ब्रह्मांडांत आमची पृथ्वी कितें तें कळटा.
ते पृथ्वीवेले मनीस म्हळ्यार कितें हाचें गिन्यान जाता.
आनी ह्या मनशांमदलो कोंकणीवादी मनीस वळखूंक येता.
आमी काळोख पुजतात देखून आमी कोण तें आमकां कळटा.
शिरवाडकरान आमची तांक ज्युस्त वळखल्ली
आनी अशा मनशाक आमी श्रद्धांजली ओंपप ना ?
हांवें विनायक नायकाचें निमंत्रण तेच पासत स्विकारलें.
दिल्ल्या वेळा आदीं कला अकादमीच्या कृष्णकक्षांत गेलों.
वातावरण निर्माण जावपाखातीर शोकसभा थंय दवरिल्ली.
भितर सरना बराबर फातरा काळजाचो लेगीत हांगा हालता.
भितर मयेकार, कोमारपंत, घवी, सोनटक्के बी मान सकयल घालून बशिल्ले.
ते खातीर वातावरण चडूच शोकाकूल दिसतालें.
तें पळोवनूच म्हाका खुक् करून हांसूंक आयलें.
म्हजो हो सभाव म्हाका नडत म्हणपाचो भंय दिसतालो.
हांव जाता तितलो चेहरो गंभीर करपाचो यत्न करतालों.
तशेंय करपाक हांव मनांतल्यान भितालों.
म्हजो चेहरो गंभीर जालो आनी लोक ताका हांसले जाल्यार!
लोकांची वाट पळोवन पळोवन अखेरेक शोकसभेक आरंभ जालो.
गोपाळराव मयेकार खूब खूब कितें उलयलो.
हांव देहभान विसरून म्हणटात तशें आयकतालों.
शोकसभेक कोणें टाळयो बी मारूंक फावनात खंय.
पूण उलोवप्याक दाद दिवपाची एक पद्धत आसताच.
मयेकार जेन्ना आपलो लेंस बोल्सांतल्यान काडटालो
तेन्ना आयकुपीय आपापलो काडटाले.
ताणें तो दोळ्यांक लायलो तशे हेरूय लायताले.
उपरांत एका फाटोफाट एक अशे खूब जाण उलयले.
तांचें आयकून आयकून म्हाकाय दोन उतरां सांगचीं दिसलीं.
पूण हांव कोंकणीवादी, म्हाका अधिकार नाशिल्लो.
थंयच कित्याक, हेरकडेन तरी तो खंय आसता ?
महाराष्ट्रांतले म्हजे कितले तरी साहित्यिक मित्र येतात
तांकां हे मराठीवाले कित्याक न्हय कित्याक आपयतात.
तांकां मेळचें म्हूण हांव मनासावन यत्न करतां.
मेळपूय चोरयां चोरयां करचें पडटा.
कित्याक तर ते मराठी म्हणटकच फकत मराठीवाद्यांचेच.
शोकसभाय जाताली ती फकत तांचीच आसली.
हांवें म्हजी उलोवपाची उमेद मारून उडयली.
शोकसभा सोंपली तशे सगळे भायर आयले.
सगळ्यांचे दोळे सामके तांबडेच जाल्ले.
म्हजेय जाल्ले. कृष्णकक्षांत तशी लकण रोखडीच लागता.
शिरवाडकारांविशीं जाणून घेवचें म्हूण हांव मनीस सोदूंक लागलों.
दोतोर अजय वैद्य हाका ताका फोटो दाखयत भोंवतालो.
तो म्हजेकडेन आयलो तसो हांवें फोटो बारकायेन पळयलो.
कुसुमाग्रजांनी दोतोरा वांगडा आपलो फोटो काडिल्लो.
म्हाका दिसलें हांवेंय त्या फोटयांत खंय तरी आसूंक जाय आसलें.
निदान ह्या वेळार तरी ताचो उपेग जावपाचो.
हांव खंती जावन मयेकाराकडने गेलों.
पुराय शिरवाडकार वाचचो म्हूण पुस्तकाचीं नांवां मागलीं.
ताणें याद करून एक नांव सांगलें.
पूण तें पुस्तक पुष्पाग्रजाचें आशिल्लें.
दोतोर सोनटक्केक विचारलें तेन्ना तो डायरी चाळूंक लागलो.
घवीक खबर आसतलें म्हूण विचारूंक गेलों.
पूण घवी हेरांक भलतेंच सांगत सुटलो.
'साहित्य अकादमी पुरस्कार घेतलेले माझे चार विद्यार्थी आहेत.'
आयकले बराबर सगळे कोण कोण म्हणत एकठांय जाले.
'त्यातला हा आमचा दिलीप पण एक आहे.'
तें आयकून जमिल्ले सगळे आसा तशे पयस जाले.
'कुसुमाग्रजांक तो खूब आदीं मेळ्ळो. म्हाका हालींच.'
हांवें अशें म्हणुंनाका, सगळ्यांचीं तोंडां शोकाकूल जालीं.
'त्यात काय झाले! तो कुणालाही मिळू शकतो.'
मयेकारान तोंड वांकडें करीत म्हळें आनी म्हाका रडूंक आयलें.
शोकसभेंतलें हें म्हजें पयलेंच रडप.

* * *


## उक्तावणी

(सेम आं. ८ रजिस्ट्रेशन ऑफ न्यूज पेपर्स
सेंट्रल रूल्स १९५६, फॉर्म आं. ४)

| | | |
|---|---|---|
| १. | उजवाडावपी थळ | मडगांव, गोंय ४०३ ६०१. |
| २. | उजवाडा येता तो काळ | दर म्हयन्याक |
| ३. | उजवाडावपी, छापपी आनी धनी | सुमंत रामचंद्र केळेकार |
| | राष्ट्रियताय | भारतीय |
| | नामो | प्रियोळ, म्हाड्डोळ, गोंय ४०३ ४०४ |
| ४. | संपादपी | रवीन्द्र राजाराम केळेकार |
| | राष्ट्रियताय | भारतीय |
| | नामो | प्रियोळ, म्हाड्डोळ, गोंय ४०३ ४०४ |
| ५. | वावुरपी संपादपी | माधवी सरदेसाय |
| | राष्ट्रियताय | भारतीय |
| | नामो | २०१-बी, सालदेल अपार्टमेन्ट्स रूअ द साउदादिश, पाजीफोंड, मडगांव – गोंय ४०३ ६०१ |

हांव, सुमन्त राजाराम केळेकार, अशें उकतायतां की, वयर दिल्ली खबर, म्हजे माहितीक आनी समजुतीक धरून खरी आसा.

**सुमन्त रा. केळेकार**
उजवाडावपी

# णो

कुसुमाग्रज
(भणकार : आनंद वर्टी)

सांत आयलो कोणतरी
ळखले तुमी सर म्हाका?'
टां तार्चीं म्हेळिल्लीं, केसांचेर उदका-थिकां
णभर बसलो, मागीर हांसलो, म्हणूंक लागलो,
र पळोवन
ामाय सोयरी आयली, घोंटेरांत गेली रावन
ारा येवपी चेडवावरी चार वणटींत
चली
त्या हातान वतली कशी, बायल मात
चली
चली वणत, पालवली रांदन, आसलें नासलें
न गेली
ाद म्हूण दोळ्यांपार्तीर उदक इल्लें
रून गेली.
कान्नीक घेवन वांगडा, हांव आतां झुजत आसां
की वणत बांदतां आनी चिखोल रेबो काडीत आसां'
ल्साकडेन हात वतांच, हांसत हांसत उठलो
शे नाकात सर म्हाका, एकसुरोसों जालों
डून पडलो संवसार पुणून कणो म्हजो मोडलो ना
टीचेर हात दवरून तुमी फकत झूज म्हणा'.

# म्हजी कविता

□ शरतचंद्र शेणै

कविता म्हजी तणा सारकी,
भुंये वयल्यान उठलेली
दोंवा वारो घेतलेली
वोतांतल्यान, पावसांतल्यान,
दीस काडून वाडलेली.

कविता म्हजी भुरग्यां वरी,
मेकळेपणान उलोवपी
येदे व्हडल्या दर्या देगेर
शिंपयो घुल्यो पुंजावपी.

कविता म्हजी बंजारीण,
दिकादिकांनी भोंवलेली
गांवगांवांनी पावलेली
कळना तिका सोदता कितें
मेळ्ळें कितें, गेलें कितें
भोंवडेंतूच रमलेली.

कविता म्हजी म्हजे सारकी
स्वता भितर शेणलेली
उतरांतलो म्होव रुचीत
वाटे विसोर पडलेली.

# देंठ

□ परेश नरेंद्र कामत

वचडलेल्या फुलाचो देंठ अजून ओलो
मनांत चंद्रीम फाफशिलेलो धवो पुनवेचो
काळीज अडलेलें दोळ्यांत उदक माणलेलें
संवसाराचे मठयेंत झरता दुख्ख दडलेलें...
येतना अळंग फूल सदांच देंठ कांचवेता
ताज्जें रगत फळफळटा मातयेंत मस्तितना
साज सगळे न्हयकारून – जीण पिंजकरी
पाकळ्यांवरी कूड ल्हव वारो बुचाड्टनां
नदरे मुखार जेन्ना दीस काळखांत कोसमेलो
जागूजागून रात पालवांत विश्व खेळयता...

# आशाड-पावळी

□ नूतन साखरदांडे

आशाड पावळी
रंग रंगयाळी
हर हरयाळी
धाय दिका

चुड्याचो चमचम
जायांचो घमघम
सतारिची धुन
रंध्रारंध्रांत

कुळाराची वाट
आतां अनवळखी
यादिंची पालखी
जड खांदार.

# शिंवाचे घोलींत पांय दवरपाचें धाडस

चंद्रकांत केणी

गोंयच्या इतिहासांत पयलेच खेपे जी वेंचणूक जाली तिच्चेवरवीं गोंयकारांच्या हातांत गोंयची सत्ता येवंक पावली. इतिहासाच्या लांब काळांत गोंयचे भुंयेचेर गोंयकारांनी राज्य केल्ल्याचो निश्चित पुरावो ना. देखून आर्विल्ल्या इतिहासांत जेन्ना दयानंद बाळकृष्ण बांदोडकार हे गोंयचे मुख्यमंत्री जाले तेन्ना आमकां एकाच वेळार खंत आनी खोस जाली. खंत अशे खातीर की गोंयचेर राज्य चलोवपाखातीर जाची गोंयकारांनी निवड केल्या तो मनीस गोंय महाराष्ट्रांत विलीन करपाचीं सपनां पळयता. आनी, खोस अशे खातीर की बरो वाट कसोय आसलो तरी एक गोंयकार पयलेच खेप गोंयचो मुख्यमंत्री जातलो. ताचीं-आमचीं मतां वेगळीं आसलीं तरी इतिहासान कूस बदलल्या, तिका आमी येवकार दिवंकच जाय.

भाऊसाहेब बांदोडकार मुख्यमंत्री जाले आनी विलिनीकरणवाद्यांमदीं लेगीत खोशयेचें आनी खंतिचें ल्हार आयिल्लें हांवें पळयलें. भाऊसायबांक सगळें गोंय वळखतालें. हिंदू बहुजन समाजाक ते प्रेषिता सारके दिसले जाल्यार तातूंत अजाप ना. तांची दानत आनी करणी तशीच आसली. तांचें राज्य गोंयांत आयलें म्हळ्यार बहुजन समाजाचेंच राज्य गोंयांत आयलें अशें तांकां दिसलें. खरेपणान तशेंच घडलें. वेंचणुकेच्या निकालाक लागून गोंयच्या भौसाक एक दिश्टावो जाल्लो. शिक्षण आनी धन कोणायकडेन आसूं, राज्य कोणाचें आसचें हें भौसच थारायतलो. आनी हिंदू भौसंख्य आशिल्ल्यान गोंय वेगळें उरलें जाल्यार गोंयांत हिंदू भौसाचेंच राज्य चलतलें. भाऊसायब बांदोडकार आसासर तांचेंच राज्य उरचें अशेंच तांकां मनापासून दिसतालें. ते मुख्यमंत्री जाले ही खोशी आसली. पूण फुडें कितें? भाशेचें कोणाक पडून वचूंक नासलें. पूण गोंयचें महाराष्ट्रांत विलिनीकरण जालें जाल्यार भाऊसायब गोंयचे मुख्यमंत्री उरचे नात हे जाणविकायेन तांचे उमेदिचेर विरजण पडिल्लें.

किरिस्तांव भौसाकय कळ्ळें की गोंय वेगळें उरलें वा महाराष्ट्रांत गेलें तरी भौसंख्य हिंदू जमातिच्या प्रतिनिधिंचेंच सरकार सत्तेर आसतलें. तरिकय तांणी आपलें मूळ धोरण सोडलें ना. आपल्या युगोच्या बावट्याखाला तांच्या एकवटाक बाधा येत अशें कांय करूंक ते तयार जाले नात. काँग्रेस आनी युगो एकठांय आयल्यार समीकरण बदलूं येता इतलें आंकड्यांचें गणित तांकां समजतालें. पूण तशें जाल्यार आपूण कुशीक पडत अशी भिरांत युगोच्या फुडाऱ्यांक दिसताली.

कोंकणीपुरतो विचार करता आसतना आमी पळयलें की कोंकणी भाशेक किरिस्तांव समाजाचो जो पुराय तेंको आसा तो राजकी स्वरुपाचो. उंचेल्या किरिस्तांव वर्गाक कोंकणीपरस इंग्लीश लागिंची दिसता. भौसाक जरी कोंकणी जाय आसली तरी फाटीं फुडें उच्च वर्गियांचें भौस अनुकरण करूंक लागतलो आनी कोंकणीचे चळवळिचो फाटीकणो निखळून पडटलो. हाचे संकेत समाजीक जिणेंत मेळूंक लागिल्ले. तियात्रांचे माचयेर 'निगुत' कोंकणी उलोवपी कलाकार माचये वेल्यान देंवतकच एकामेकांकडेन इंग्लीश उलयताले. ज्या घरांनी परंपरेन पोर्तुगेज भास घोळटाली, थंय इंग्लीश कानार पडूंक लागली. इगर्जिनी कोंकणी मिसाभायर इंग्लीशींतल्यान मिसां सांगूंक सुरवात जाली. इंग्लीश माध्यमाच्या पूर्व प्राथमिक आनी प्राथमिक शाळांनी भुरग्यांचो आंकडो वाडत वचूंक लागलो. हे लोक तोंडान कोंकणीचो पुरस्कार करताले पूण तांची करणी कोंकणीक व्हडलिशी पोशक नासताली. मराठीकडली राजकी लढाय जिखतलो जाल्यार ख्रिस्ती भौसाचें फाटबळ आमकां जायच आसलें. पूण कोंकणीच्या फुडाराचो विचार केलो जाल्यार जो भौसंख्य समाज तोंडान मराठीचो पुरस्कार करता तो घरांत कोंकणी उलयता आनी इतलेंच न्हय तर देवनागरी लिपयेंतली कोंकणी वाचता हें आमकां बरें लक्षण दिसतालें. गोंयांत मराठी ही हिंदूंक लागिंची दिसली तरी किरिस्तांव समाजाचो तै भाशेकडेन संपर्क ना. हाचे उरफाटें कोंकणी ही दोनूय समाजांक जोडपी भास. कोंकणीमदीं वेगळ्यो वेगळ्यो शैल्यो आसल्यो तरी पेडणेचे गवंडीच साश्टीच्या भाटकारांचीं घरां बांदताले आनी किरिस्तांव नुस्तेकार हिंदूंक नुस्तें विकताले. दुकानां चडावत हिंदूंचीं, पूण चडशें गिरायक किरिस्तांवांचें हें पोरणे काबिजादिंनी पळोवंक मेळटालें. (बार्देस, तिसवाडी, मुरगांव आनी साश्टी हे चार तालुके पुर्तुगेजांनी आदीं जिखून घेतिल्ले, देखून तांकां पोरण्यो काबिजादी म्हणटात). गोंयचे समाज जिणेंतल्यो अशो आनिकय विसंगती आसल्यो. त्या विसंगतींमदीं आमकां कोंकणीच्या फुडाराचीं लक्षणां दिसूंक लागलीं. जर गोंयकारांमदीं धर्म-जात हांचे पसून मुक्त असो एकचार घडोवन हाडपाचो आसत जाल्यार आमकां कोंकणीचोच आदार घेवचो पडटलो. गोंयांत कोंकणी हीच धर्मनिरपेक्ष भास जाल्ल्यान कोंकणी भाशेक गोंयांत फुडार उरतलो म्हणपाचें आस्वासन आमकां मेळटलें. पूण मुखेल प्रस्न आसलो तो हिंदू भौसाच्या मनांत जे कोंकणीविशीं दुबाव रिगल्यात ते काडून उडोवपाचो. आनी ते नदरेन कसलींय पावलां उखलतलो जाल्यार मुख्यमंत्रीपदार आशिल्ले दयानंदबाब बांदोडकार हांच्या मनांतले दुबाव काडचेच पडटले.

शिंवाचे घोलींत कोणें वचपाचें? हांवें तो पत्कर घेतलो. वातावरण खुबच दुबावाचें आसलें. मराठीच्या समर्थकांलागीं एकाद्रो कोंकणी भक्त उलयलो वा इश्टागतीन वागलो, ताचे वांगडा भोंवलो, जेवलो जाल्यार तागेले कोंकणी निष्ठेचो हेर कोंकणी भक्त दुबाव घेताले. मराठीवाद्यांमदींय तशेंच वातावरण आसलें. देखून वळख देख आसुनूय मराठी आनी कोंकणी समर्थकांमदीं अदृश्य वणटी निर्माण जाल्ल्यो. हातूंत भेंब्रे कुटुंबाचें उदाहरण दिवं येता. व्हड़ देशभक्त, विद्वान चिकित्सक लक्ष्मीकांतबाब प्रभू भेंब्रे हे मराठीचो पाखो घेताले आनी सगल्या थरांचेर, सगल्या माध्यमांतल्यान आपली सगली बुद्धी, शक्त पणाक लावन कोंकणीवाद्यांनी मांडिल्ल्या मुद्द्यांचें खंडन करून मराठीची वकिली करताले. पूण तांचे घरांतले हेर लोक – तांचे दोन भाव – डॉ. नारायणबाब आनी प्रो. केशवबाब हे उकतेपणान कोंकणीचोच पाखो घेताले. तातुंतूय लक्ष्मीकांतबाबांचे सुपुत्र उदय भेंब्रे आपल्या अधिकारान कोंकणी चळवळिचें नेतृत्व करताले. राष्ट्रमतांत 'ब्रह्मास्त्र' हें सदर तेच बरयताले. कोंकणीक दुशण दितल्यांक आनी कोंकणीविशीं आगळें-उणें उलयतल्यांचेर ते हल्ले करताले. केन्नाकेन्नाय मर्माचेर असो आघात करताले की मराठी समर्थन निर्णेवन पडचें. आपल्या बापायविश

ांा मनांत उपाट आदर. आमकां सगल्यांक लक्ष्मीकांतबाब पितृतुल्य ाले आनी तसो मान आमी तांकां दिताले. देखून तांचेर टिका करतना अनमनताले. पूण उदय भेंब्रे तें कठोर कर्तव्य करूंक केन्नाच फाटीं ेनात. रवीन्द्रबाब केळेकार हांणी एके जाहीर सभेंत एक दीस सांगून ल्लें, ''आमी मराठीवाद्यांचेर कितलीय टिका केली तरी तांकां आमी ेच मानतात... तांची बुद्द, तांची पिराय, तांची देशभक्ती आनी ं त्याग हांची आमकां कदर आसा. पूण रणांगणांत उतरिल्ल्या ्पर्ध्याक निरुत्तर करप हो आमचो धर्म. तरी आसतना भौमानेस्त ीकांतबाबान आमकां कितेंय म्हळें जाल्यारूय आमी तांकां परत जाप ेनात. कित्याक तर तांणी आमकां उदय दिला!''

शा वातावरणांत मुख्यमंत्र्यांकडेन संपर्क सादून ह्या नाजूक प्रस्नाचेर ़डेन कशें उलोवपाचें? फोन करिनासतना एक दीस हांव तांच्या ़डेन गेलों. घरांत खुबशे लोक. थोडे पक्षाचे कार्यकर्ते, जाल्यार थोडे ्मंत्र्यांकडल्यान कामां करून घेवंक आयिल्ले नागरीक. हांव दुर्गांतल्यान र सरलों तेन्ना खुबशीं वळखिचीं तोंडां दिश्टी पडलीं. पूण कोणेंच ा हटकिलो ना वा जाप दिली ना. हांव 'अस्पृश्य' आसचो तशे ागले. पूण कोणेंतरी हांव आयिल्ल्याचें भितर वचून भाऊंक सांगलें ी भाऊन म्हाका आपयलो.

भितरले वटच्यान आनिकय गर्दी. भाऊन म्हजेवयल्यान नदर भोंवडायली ो-विचारलें, 'कितें काम आसलें?' सगळे लोक कामां करून घेवंक ेल्ले. म्हजें कसलेंच काम नाशिल्लें. तशें हांवें भाऊक सांगलें. आनी , 'तुमकां मेकळो वेळ मेळत तेन्ना थोडें उलोवपाचें आसा.'

भोंवतणी आशिल्ल्या लोकांचेर एक नदर भोंवडावन भाऊन म्हळें, 'यो ं म्हाका घेवन ते माळयेर गेले.

राजकारण आनी भाशाकारण सोडून तरातरांच्यो गजाली तांणी म्हाका ल्यो आनी निमाणें म्हाका म्हळें, 'जाणा तूं, मराठी गोंयची राजभास ाचो निर्णय आमचें मंत्रीमंडळ घेवंक सोदता.'

'आनी कोंकणीचें कितें?' हांवें भाऊंक विचारलें.

'कोंकणीचें? कोंकणीचें आमी कांयच आयकून घेवपाचे नात. आमच्या ्च्या जाहीरनाम्यांत आमी लोकांक उतर दिल्लें आसा तें आमी पाळटले. ठी राजभास ज़ाल्यार तुमकां कसली भिरांत? तुमी सुंदर मराठी ्यतात. आमच्या ह्या मराठीवाद्यांक मराठी सारकी येना.' आनी भाऊ ले.

हांवें म्हळें, 'तुमकां तुमच्या पक्षान वेंचून दिल्ले आसले तरी तुमी , दमण आनी दीवचे मुख्यमंत्री. तुमी पक्षाचे नदरेंतल्यान विचार करप ्यायाचें जातलें.'

'तो विचार आमी केला. दामांव आनी दीवची राजभास गुजराथी जातली.'

हांवें तांकां मतदारांचो आंकडो सांगून म्हळें, 'गोंयच्या अर्दावयर लोकांक कणी जाय...'

'कोंकणी मराठीची बोली मरे. मराठी राजभास जावप म्हळ्यार कोंकणीच भास जावप न्हय?'

'हेंच तुमचें म्हणणें दुसऱ्या उतरांनी सांगूं येता. कोंकणी मराठीचीच ी जाल्यार कोंकणी राजभास जाल्यार मराठीवाद्यांखातीर मराठीच भास जाल्ले भशेन जातलें. ते भायर कोंकणीवाद्यांचेंय समाधान जातलें. कणी मराठीची बोली अशें जांकां प्रामाणिकपणान दिसता तांणी कोंकणीक भास करूंक विरोध करप म्हळ्यार मराठीचे बोलयेक विरोध करपाभशेन तलें. एके भशेन एक विसंगती जातली.'

भाऊन खीणभर येवजिल्ले भाशेन केलें आनी म्हळें, 'तूं म्हाका शिंगां वंक आयला काय कितें रे? तुमी कांय लोक प्रामाणिक. हांव तुमकां नतां. पूण कोंकणी कोंकणी म्हणपी सगळेच प्रामाणिक न्हय...'

बऱ्या वातावरणांत आनीक थोडो वेळ संवाद चललो. भाऊन फ्रिजांत दवरिल्लीं आडसरां मागोवन घेतलीं आनी एकदम विचारलें, 'तूं नुस्तें खाता काय ना?'

'खातां.'

'जाल्यार अशें कर. फाल्यां तूं आनी उदय भेंब्रे दोगूय आमगेर जेवणाक येयात. बऱ्यो वागयो हाडटां... तुमच्या प्रकाशकाकय हाडात. जाणा तूं, तो घारसो प्रचार काँग्रेसिचो करता पूण तागेल्या दुर्गाचेर... आगशेच्या घराकडेन... दोनय वाटांनी दोन शींव आसात.'

भाऊ मेकळेपणान हांसले. आनी जेवणाचें आमंत्रण घेवन हांव मडगांवां परतलों. मनांत येवजिलें, म्हाका दिशिल्लें तितलें वातावरण कठीण ना. भाऊंकडेन संपर्क उरलो जाल्यार कोंकणीवयलें संकट निस्तारूंक येतलें.

हांव मडगांवां पावचे पयलींच कोंकणीवाद्यांमदीं खलबतां सुरू जाल्लीं. हांव भितरल्यान बांदोडकारांक सामील जालां अशें आमचेच लोक म्हजे असवडीं उलोवंक लागले. पूण लागिंचे सहकारी हांव खंयचे मोहिमेर गेल्लों तें जाणा आशिल्ल्यान आमच्या लोकांच्या मनांतले दुबाव काडून उडोवपाचें काम तांणी केलें. तांचें पुराय समाधान जालें ना आनी ते म्हजेकडेन इल्ल्या दुबावानूच पळयत रावले. प्रतिस्पर्ध्याकडेन झुजतलो जाल्यार ताचेकडेन इश्टागत दवरप उपकरचें ना. दया-माया दवरिनासतना आमी आमच्या विरोधकांक निरुत्तर करून उडोवंक जाय अशें तांचें मत आसलें.

मराठी राजभास करपाचो निर्णय मंत्रिमंडळ घेवपाचें आसा ही खबर हांवें आमच्या सहकाऱ्यांक सांगली. रवीन्द्रबाबान म्हळें, 'तशें जावंक फावना. सगळे तरेचे उपाय येवजून मंत्रिमंडळ असो निर्णय घेना म्हणपाचें पळोवंक जाय. आमी कितलेय तर्क मांडले तरी महाराष्ट्रवादी सरकार कोंकणीक राज्यभाशेचो दर्जो दिवचें ना. राज्य सरकारान मराठी राज्यभास केली जाल्यार कोंकणीच्या मार्गावयल्यो कटकटी वाडटल्यो.

रातभर विचार करून आमी थारायलें, दुसऱ्या दिसा हांवें आनी उदयान भाऊसायब बांदोडकार हांगेर जेवणाक वचून येवचें आनी तांचो निर्धार कितलो घट आसा ताचो अदमास घेवन येवचें. उपरांतच फुडली स्ट्रॅटजी आमकां थारावची पडटली.

* * *

श्रीपाद घारसे पावलेनात. हांव आनी उदय दनपारचे भाऊगेर गेले. आमकां बरो येवकार मेळ्ळो. घरगुती वातावरणांत राजकारणाचो विशय चर्चेक घेतलेबगर आग्रो करून करून भाऊन आमकां वाडले. आपल्या जिविताच्यो थोड्यो गजाली सांगल्यो. आनी निमाणें म्हळें, 'तुमकां दिसता, हांव गोंयचो आनी गोंयकारांच्या फुडाराचो विचार करिना? तुमी भुरगे आसात. म्हजे केंस पिकल्यात. सगलो इतिहास म्हज्या दोळ्यांसामकार घडला. गोंयच्या बऱ्याचें कितें आनी वायटाचें कितें हें हांवें येवजून दवरलां. गोंय वेगळें उरलें जाल्यार तुमचे लोक गीद कशे गोंयचें रगत लुचूंक लागतले आनी तुमी कुशीक पडटले. गोंय महाराष्ट्रांत गेलें जाल्यार आमच्या कर्तुत्वाक मोठें क्षेत्र मेळटलें. आजच पळयात... गोंयकार खुबशा क्षेत्रांनी महाराष्ट्राचें नेतृत्व करतात. फाल्यां गोंय विलीन जालें जाल्यार महाराष्ट्राच्या राज्याचीं सुत्रां गोंयकार हालयतले...'

आपले शिकारी जिणेच्यो यादी भाऊन सांगल्यो. भुरगेपणांतल्या कांय प्रसंगांचो उगडास काडलो. आनी म्हळें, 'हें कोंकणी आनी घटक राज्याचें पिशें तुमचे तकलेंतल्यान काडून उडयात. तुमकां हरशीं कितें जाय तें सांगात. हांव दितां... हांव तुमकां मानतां... तुमची योग्यताय वळखतां... तुमी तुमचें आयुश्य नसल्या वादांत वगडावं नाकात...'

आमी चडसो वाद घालो ना. पूण सभ्य आनी सौम्य उतरांनी तांगेले मुद्दे खोडून काडले आनी राजभाशेच्या विशयाक हात घालो.

'आमचो दत्ताराम देसाय मराठीचो थाराव विधानसभेंत मांडटलो. खाजगी थाराव तो. कोंकणीविशीं तुमी जाय जाल्यार ताचेकडेन उलोवन पळयात.'

राजभाशेचो निर्णय मंत्रिमंडळ न्हय तर विधानसभा घेतली हें कळटकच आमी आनिकय अस्वस्थ जाले. परत मडगांवां पावनाफुडें उदयान भाऊंच्या सगळ्या मुद्द्यांचें खंडन करून सणसणीत ब्रह्मास्त्र बरयलें.

दुसऱ्या दिसा अनपेक्षितपणान भाऊंचो फोन आयलो. 'तुमी म्हगेर जेवन गेले, काल बरे उलयले आनी हें ब्रह्मास्त्रांत कितें बरयलां?' तांणी म्हाका प्रस्न केलो. पूण त्या प्रसंगा उपरांत लेगीत भाऊकडले संबंध चालूच उरले. आमी सोंपेपणी बदचेनात हें भाऊन पळयलें आनी भाऊंक आमचे मुद्दे पटले तरी ते बदलूंक शकनात म्हणपाची आमकां कल्पना आयली.

हांवें थारायलें, भाऊ बदलूं वा बदलूं नाका, तांचेकडचो संपर्क आनी संवाद चालू दवरूंक जाय. नाय जाल्यार आमी मराठीवाद्यांक सोंपोवन न्हय तर तांचीं मतां बदलून कोंकणीक फुडें व्हरूंक सोदतात. तेय जाल्यार गोंयकार, कोंकणी भाशीक अशें आमी मानतात. तातुंतूय भाऊसायब जी कोंकणी उलयताले ती फकत नकसुदच न्हय तर ओपारी आनी म्हणिंनी समृद्ध आसली.

विधानसभेंत निमाणें थाराव पास केलो. खाजगी वांगड्यांनी मांडिल्लो तो थाराव. ताका कायद्याचे नदरेन म्हत्व नासलें. यु.गो. पक्षाच्या आमदारांनी ताका विरोध करून सभात्याग केलो आनी म.गो. समर्थकांनी एकमतान पास जाल्ल्या थारावाखातीर आनंद मनयलो. संघप्रदेशाच्या दर्जांत विधानसभेन पास केल्ल्या खाजगी थारावाक म्हत्व नासलें तरी इतिहासांत ताची नोंद उरतली आनी फुडें फाटीं केंद्र सरकाराचेर ते गजालिचो परिणाम जातलो अशें आमकां दिसतालें. थाराव मंत्रिमंडळामुखार विचाराक वतलो आनी मंत्रिमंडळान तो मानून घेतलो म्हणटकच प्रशासकाचे मंजुरीखातीर वतलो इतलें आमकां खबर आसलें.

आमी एक प्रयोग केलो. रस्त्यार येवन निशेध करपाचो आनी विधानसभेच्या थारावाआड चळवळ चलोवपाचो पर्याय आमचे सामकार आसलोच. पूण मुत्सद्दीपणान हो प्रस्न सोडोवपाचो यत्न करुंया अशें येवजून आमी एक शिश्टमंडळ घेवन मुख्यमंत्र्यांसरीं गेले आनी अजापाची गजाल म्हळ्यार मुख्यमंत्र्यान आमचें म्हणणें रोखडेंच मानून घेतलें. तांणी म्हळें, 'तुमी हुस्को करूंनाकात. तुमचें म्हणणें म्हाका पटूंक ना. पूण तुमची चळवळ आनी प्रामाणिकपण हांची हांव कदर करतां. मंत्रिमंडळ अशी शिफारस करतलें की मराठी आनी देवनागरी लिपयेंतली कोंकणी ह्यो दोनूय गोंयच्यो राजभासो जावच्यो...' मागीर म्हजेकडेन पळोवन विचारलें, 'जालें तुजें समाधान?'

म्हजें समाधान जावंक नासलें, पूण एकेक सपण चडून फुडें वचूंक जाय इतलें म्हाका कळटालें. भाऊन दिल्लें उत्तर पाळ्ळें, पूण संघप्रदेश राजवटींत विधानसभेच्या खाजगी थारावाची आनी मंत्रिमंडळाचे शिफारशिची प्रशासकांनी व्हडलिशी दखल घेतली ना आनी नस्तो वाद ह्यावेळार नाका अशें येवजून केंद्र सरकारानय व्हडलिशी उमेद दाखयलिना.

* * *

---

☐ बसरुद्दीन टिपू सुलतानाच्या वंशांतलो. ताका मेळपाक एकलो आयिल्लो. ताचें काम आशिल्लें. बसरुद्दीनान ताचें आयकून घेतलें आनी म्हळें, 'वच तूं आतां घरा. तुजें काम जालें अशें धर.' आनी बसरुद्दीन भितरले कुडींत गेलो. तितले म्हणसर ह्या मनशान बसरुद्दीनाली घडयाळ चोरली. थोड्या वेळान बसरुद्दीन भायर आयलो. जिरत ह्या वेळार घडयाळ वाजली. बसरुद्दीनान आयकूंक नाशिल्ले वरी केलें आनी परतो भितर गेलो. घडयाळ चोरता ती बसरुद्दीनाच्या पुतान पळेल्ली. तो ताका धरूंक वतालो. इतल्यांत बसरुद्दीनाक पुताक दोळ्यांनी खुणावन भितर आपयलो आनी म्हळें, 'ताणें घडयाळ चोरल्या ती हांवें पळेल्ली. आपणें घडयाळ चोरल्या म्हणपाचें हांवें पळेलां हें पळोवन ताचें तोंड पडिल्लें. ताका लज जाल्ली. ताका इतलीच ख्यास्त पुरो. आतां एक उतर लेगीत तूं उलोवं नाका. तो घडयाळ दवरून वतलो. आपणाले वायट करणेची लज मनशाक दिसता हीच मोट्यांतली मोटी ख्यास्त ताका जाता.

☐ रवीन्द्रनाथांची कवी म्हूण अख्खो रांवसार तुस्त करपाक लागलो तें पळोवन कांय बंगाली बरप्यांच्या पोटांत दुखपाक लागलें. ते तरांतरांनी तांची निंदा करपाक लागले. नाका नाका जाल्ल्यो गजाली पातळावपाक लागले. ह्यो गजाली पळोवन रवीन्द्रनाथां परस चड दुख्ख जालें तें शरतबाबूंक. शरतबाबू खूब लोकप्रिय नवलकथाकार आशिल्ले. 'आपूण बरयतां तें तुमचे खातीर, रवीन्द्रनाथ बरयतात तें म्हजे खातीर' अशें ते बंगाली लेखकांक सांगताले. ते रवीन्द्रनाथांसरी गेले आनी म्हणपाक लागले, 'हे लोक तुमची टिका करतात ती म्हज्यान वाचूं नज... तुमी तुमची ही निंदा-नालस्ती मोन्यांनी कशी सोंसून घेतात, समजना... सगळ्यांक सणसणीत बरी एक जाप दिवन चिप् बसयात.'

रवीन्द्रनाथ हांसले आनी तांणी शरतबाबूंक जाप दिली, 'जांची तुरत-तोखणाय हांवें केन्ना केली ना तांची निंदा करून म्हजी लिखणी भश्टवप म्हाका समा दिसना...'

कांय दिसांनी टिका आपशीं बंद जाली.

# ुणाजी'चें कायारूप : कांय प्रस्न ?

बाळकृष्ण कानोळकार







डलीक नारायण नायक हो कोंकणी भाशेंतलो एक अस्टतासांचो त्यिक. कथा, नवलिका, कादंबरी, कविता, नाटक, एकांकी, बालसाहित्य । तरेकवार साहित्यांची निर्मणी ताणें आजवेर केल्या. ते भायर फ़समीक्षा आनी संपादीत साहित्याच्या मळार लेगीत ताणें जैतिवंत पावलां त्यांत. साहित्याची विंगडविंगड कायारुपांतली निर्मणी ताचे साहित्यिक जिकायेविशीं गवाय दिवपाक समर्थ आसा अशें म्हणचें पडटलें. पूण... लीं सुमार पंचवीस तीस वर्सां कोंकणींतल्यान साहित्य निर्मणी करपी खडेगांठ साहित्यिकाचे साहित्यिक समजिकायेविशीं दुबाव येवचो असो । तांचे 'गुणाजी' हे नवलिकेन एक अभ्यासक म्हण म्हजे सारकेल्या साहित्य रसिकामुखार उबो केला.

ुणाजी ही पुंडलीक नायकाली नवी ताल्ल नवलिका. आतां ह्या हित्यरुपाक कितें म्हण पाचारपाचें हो प्रस्न म्हजे मुखार उबो रावला. कारण – पुस्तकाच्या भितरल्या पानार प्रकाशकान Novellette (ह्या ज उतरांत एक एल्. लेत्र मायज पडलां) म्हण ह्या पुस्तकाची वळख न दिल्या जाल्यार पुस्तकाचो प्रकाशन सुवाळो जाल्लो त्या वेळार ताची ख **आत्मचरित्रात्मक कादंबरी** म्हण करून दिल्ल्याचो म्हाका उगडास ा. एका साहित्यिक मित्रालागीं हे विशीं उलोवप जालें. तेन्ना ताणें ताका velogue म्हण पाचारलें. आनी हांवें स्वता जेन्ना पुस्तक वाचलें, तेन्ना ्का तें एक **लघुकथा**शें – ताचे परस चड **काणी**शें लागलें. म्हळ्यार – हे लिके'न genre विशीं प्रस्न उपस्थित केल्यात. तेन्ना ते विशिंची चर्चा प म्हळ्यारूच ह्या पुस्तकाचें योग्य परिक्षण जावप अशें म्हाका दिसता.

पुंडलीक नायक हो कोंकणींतलो 'पयले लायनींत'लो साहित्यिक. णींतली (देवनागरी) पयली नवलकाणी / कादंबरी **अच्छेव** ताणें बरयली. णी नवलकाणयेचो अभ्यास हे नवलकाणयेच्या अभ्यासाविणें सफळ चना. देखून कादंबरी, नवलिका, कथा, लघुकथा, काणी म्हळ्यार कितें विशीं पुंडलीकबाबाक हांवें सांगपाची गरज ना. **वसंतोत्सव** आनी **दायज** केल्यो यशस्वी नवलिका हे आदीं ताणें बरयल्यात. तेन्ना ह्या पुस्तकाच्या मेत्तान साहित्याच्या कांय कायारुपांविशिंची मुळावी चर्चा करप शक्य सा काय कितें हे विशीं हांव म्हाकाच पर्थून एक फावट तपासून घेवंक यतां. **गुणाजी**न हो योग जुळोवन हाडलो म्हण अपुरबाय प्रकाशनाक बीं.

पयलें, **गुणाजी** ही नवलिका काय कितें तें पळोवया. नवलिका म्हळ्यार तें ? **वसंतोत्सव** आनी **दायज** ह्या पुंडलीकबाबाच्याच साहित्यकृतीं वरवीं मकां हाची जाप मेळूं येता. लघुकथा आनी नवलिका हांचे मदलो म्हत्वाचो ़ फकत 'लांबाय' न्हय. तांची प्रवृत्तीच वेगळी. Novella often has dominant symbol or a complex of symbols at its heart. ळ्यार, नवलिकेचें कायारूप सर्वस्वी प्रबळ अशे प्रतिमेचेर वा प्रतिमांच्या फाचेर अवलंबून आसा. नवलिकेचे वळखिची हीच आत्मिक कुरू अशें णूं येता.

कादंबरी वा नवलकाणी म्हळ्यार complexity of plot. कादंबरींतली complexityच साहित्यकृती म्हण तिका बळगें मेळोवन दिता. Identity ळोवन दिता. पूण कादंबरी आनी नवलिका हांचे मदलो म्हत्वाचो भेद म्हळ्यार epth and significance. ह्या दोनूय साहित्यपरिंची खोलाय (depth) ानी खराय / थाव (significance) एकसारकी वा एके जातिची न्हय. ादंबरीक 'ही खोलाय आनी खराय तिचे व्यामिश्र रचनेंतल्यान, ीवन-दर्शनांतल्यान प्राप्त जाता जाल्यार नवलिकेक तीच खोलाय आनी ..., थाव तिच्या मुळसात, अंतरांत आशिल्ले प्रबळ प्रतिमेंतल्यान वा प्रतिमागोफाक लागून प्राप्त जाता. नवलिका हें अशें एक साहित्याचें कायारूप जें कादंबरी वा कथे सारकें दिसता पूण तें तशें आसना. कादंबरी आनी लघुकथा ह्या दोनूय साहित्यरुपांचो भास ताच्या रुपांत जाता. पूण तें मृगजळ. आनी कच्च्या अभ्यासकाची हांगा फसगत जाता. The short-story and novella writer does not just produce truncated novels. These different fictional genres require a different use of the resources of the writer of prose, and they should not be read or judged in the way that we read or judge a 500-page novel. म्हळ्यार लघुकथा, नवलिका आनी कादंबरी म्हळ्यार कितें हें पयलीं समजून घेवन साहित्यकृतिचें वाचन वा अभ्यास जावंक जाय. तरूच तिची फावो ती मोलावणी जावप शक्य जातलें. हें आमी, साहित्याच्या अभ्यासकांनी, सदांच मतींत धरूंक जाय.

लघुकथा आनी नवलिका हांचे मदलें म्हत्वाचें वेगळेपण म्हळ्यार 'पात्राचो विकास'. लघुकथेंत हाका कमी वाव आशिल्ल्यान व्यक्तिचित्रणात्मक लघुकथेंत लेगीत 'पात्र विकासा'क फावो तो न्याय मेळूंक पावना. 'पात्र विकास' दाखोवच्या जाग्यार अटीतटिच्या प्रसंगांत – बाह्य वा आंतरीक – घुस्पल्लीं पात्रां आनी तांतुंतल्यान सोडणूक करून घेवचे खातीर चलिल्ली तांची धडपड, झूज हांचेंच चित्रण लघुकथाकाराक मुखेलपणान करचें पडटा. नवलिकेंत 'पात्रांचो विकास' आनी मनीस म्हण तांची जाल्ली जडणघडण हाचो आलेख पळोवपाक मेळटा. तांतुंतलीं 'पात्रां' three-dimensional (त्रिमीतियुक्त) आसचीं पडटात.

लघुकथा, नवलिका, कादंबरी ह्यो सगळ्यो fiction च्योच तरा. आनी, खंयच्याच fiction ची वर्गवारी थारावप वा पुरायपणान (absolutely) अमुकूच एका सांच्यांत (segment) ताका दांबून चेपून कोंबप साहित्याच्या अभ्यासाचे नदरेंतल्यान आनी आस्वादाचे वृत्तींतल्यान समा जावचें ना. Novelette वा Novella हांचेविशीं अशेंच म्हणचें पडटलें – नवलिका हो असो वाङ्मयप्रकार whose dimensions seem different from those of a normal short story on the one hand and of a normal novel on the other. निवेदन तंत्राच्या वेगळेपणाचे नदरेंतल्यान पळयल्यार लेगीत हे तिनूय वाङ्मयप्रकार एकासारके म्हणूं नजो. हे संबंदान ली बोवित्झ म्हणटात, 'The novel's selectivity differs from the short story's because the novel's narrative task is elaboration, whereas the short story's is limitation. And the novella's techniques of selection differ from the other two genres of fiction because its narrative purpose is compression.' फकत शैलीविशयक साधन (Stylistic device) म्हण पळय नासतना एक समग्र सौंदर्यशास्त्री भावावस्था (a total aesthetic impression) म्हण 'double effect of intensity with expansion' हाचेकडेन पळोवचें पडटलें, हे गजालीकडेन त्यो

अभ्यासकांची नदर ओडून घेवंक सोदतात.

Travelogue म्हळ्यार भोंवडेविशिंचें निवेदन – प्रवासवर्णन. तशें पळयल्यार **गुणाजी** प्रवासवर्णनाच्या निकशाचेर लेगीत खरें उतरना. कारण तें एका वृत्तांतकथनाचे पातळेचेरूच उरता. Reportage क लागीं अशें ताचें स्वरूप. जशें पळयलें तशें सांगलें. तातूंत subjectivity परस objcectivity चो रोल इल्लो चड आसता. आनी, खंयच्याय बऱ्या फिक्शनाचो प्राण म्हळ्यार तातुंतली subjectivity. ताकाच लागून तें साहित्यकृतिचे पदवेक पावूंक शकता. हे विशीं दुबाव नासत जाल्यार **गुणाजी** मुदलांत fiction काय fiction न्हय हे विशींच दुबाव उप्रासूं येतात.

आतां निमाणेकडेन **गुणाजी** लघुकथा म्हणूं येता काय ना तें पळोवया. 'काणी' आनी 'लघुकथा' हांचे भितरलें मुखेल वेगळेपण हें – 'काणी' मुखेलपणान **सांगतात.** काणयेंत सांगपी आनी आयकुपी हांचे मदीं Direct communication जायत आसता. कथेंत वा लघुकथेंत आयकुपी आनी सांगपी हांचे मदीं लिखीत स्वरुपांतलें text आसता. तें बरोवप्याक आनी वाचप्याक फाव तें स्वातंत्र्य घेवंक दिना. कांय अदृश्य अशा नेमांच्या बांदपासांनी तें तांकां बांदून दवरता आनी काणयेचो सैल, मेकळो सभाव अंदिता. 'काणी' सभावानूच सैल जाल्यार 'कथा' तंत्रबद्द. दुसरीं गजाल म्हळ्यार कथेंत नाय म्हळ्यार एक plot आसताच. 'काणयेंत' तो आसताच अशें ना. देखीक, एक राजा आसता. एक राणी आसता. राजा मरता. राणीय मरता. ही जाली काणी. पूण 'राजा मरता आनी ताच्या दुख्खान राणी मरता' अशी रचना जाता तेन्ना काणयेचीच कथा जाता. म्हळ्यार, काणयेंत कार्यकारण भाव आसताच वा आसुंकूच जाय अशें ना. कथेंत मात तो प्रत्यक्ष वा अप्रत्यक्षपणान आसचोच पडटा.

आतां वयले पुराय चर्चेवयल्यान एक गजाल हाताक लागता. ती म्हळ्यार **गुणाजी** ही एक 'काणी' जावंक शकता. एका राखण्यान आपल्या बरोबरच्या राखण्यांक सांगिल्ली, फुलोवन सांगिल्ली, एका राखण्याची काणी. कोंकणी लोकांकाणयेंत जशी कुंडेकुस्कूराची काणी आसा ते जातिची ही एक काणी. 'The aim of a short story is to produce a single narrative effect with the greatest economy of means that is consistent with the utmost emphasis.' लघुकथेसंबंदांतल्या क्लेटन हॅमीलटनच्या निरीक्षणाची गवाय **गुणार्जीं**त खंयच अणभवूंक मेळना. मेळटा ती रसाळ ओघवते भाशेंतली एका एका प्रसंगाची कॉमेंट्री. कथेंतल्यो घडणुको क्रमवार एकाफुडें एक अशो येत रावतात तेन्ना तातुंतलें कथापण सोंपता आनी ताची 'काणी' जाता. काणयेंत कार्यकारण संबंदाक थारो नासता. हाचे उरफाटें कथेंतल्यो घडणुको कार्यकारण संबंदांच्या दाल्यांनी जोडिल्ल्यो आसच्यो पडटात. घडणुकांचें स्वतंत्र अशें म्हत्व कथेंत उरना. तांचें म्हत्व कथेंतल्या पात्रांचे मनोभाव व्यक्त करचेले नदरेंतल्यानूच थारावचें पडटा. खंयचेय बरे कथेंतल्यान लेखकाक फकत विशिश्ट कल्पित पात्रांचे जिणेंत कल्पित थळा-काळार घडिल्ल्या घडणुकांचोच पटो मांडपाचो नासता, तर तातुंतल्यान ताका विशिश्ट **कथार्था**ची निर्मिणी सादची आसता. अशे तरेचो अणभव **गुणाजी** वाचतना म्हाका तरी निखालस येवंक ना.

**गुणाजी**क जांणी **आत्मचरित्रात्मक कादंबरी** म्हण होरायल्या तांची तोखणाय करीत तितली उणी जातली! **गुणार्जीं**त आत्मचरित्राचो अंश आयला अशें मानलें तरी तो कितलो आयला हाचो सोद ह्या अभ्यासकांनी घेतला व्हय? पुंडलीक नायकान आपणाले भुरगे पिरायेचेर कांय वर्सां राखणेपण केलें म्हण ही कादंबरी (!) आत्मचरित्रात्मक? जालीच जाल्यार तिका गांवगिरी कादंबरी म्हणूं येताली. पावरफूल गांवगिरे कादंबरिचें म्हालवज तातूंत खुब्ब आसा. मुदलांत ती कादंबरीच नासतना तिका कादंबरीचो तिबो लावप कितलेंशें समा थारतलें? कादंबरीचो जो प्राण ती complexity **गुणार्जीं**त वखदाक लेगीत सोदून मेळपाक ना. ऑक्सफर्ड डिक्शनरींत कादंबरी ह्या उतराचो अर्थ असो दिला – 'a fictitious prose narrative or tale of considerable length in which characters and actions representative of the real life of past or present times are portrayed in a plot of more or less complexity.'

'गुणाजी'च्या पयल्या वाचनांतल्यान ताच्या साहित्यिक कायारुपाविशीं म्हजे मुखार आयिल्ल्या कांय प्रस्नांच्या संदर्भांतल्यान हांगा मेरेन चर्चा केल्या. तिचो हेत कोणाक ल्हान वा म्हान दाखोवपाचो निखालूस ना. हेत इतलोच – आमकां साहित्याच्या अभ्यासकांक genre म्हळ्यार, साहित्याच्यो जाती, प्रकार हाचेविशीं आत्मभान मेळोवपाक मजत करप. फकत प्रकारनिश्ठ समिक्षेचे (generic criticism) नदरेंतल्यान आतां मेरेन **गुणाजी** विशीं कमी अदीक बरोवपाचो हांवें यत्न केला.

आतां इल्ली नदर प्रत्यक्ष **गुणाजी** पुस्तका भितर मारुंया. तशें केल्यार थंय आमकां कितें दिसता? वयर केल्ले चर्चेंत आयिल्ल्या विंगड विंगड मुद्द्यांचें practical आमकां थंय पळोवपाक मेळटा!

**गुणाजी**ची रचना पळयात. एक राखणो, गुणाजी, आपणाल्या वांगड्यांक आपयता आनी तांकां आपणाले जिणेंत जाल्ल्या एका चमत्काराविशिंची 'गजाल' आरंभापसून सांगता. एका फाटल्यान एक अशे साबार प्रसंग तातूंत आयल्यात. पूण केंद्रवर्ती घडणूक एकूच – राष्ट्रपतीच्या हातान जाल्लो गुणाजीचो भौमान होच काणयेचो गाभो. हे कथेंतले काणयेचे घटक सुरवे सावन पळोवपाक मेळटात. देखीक, लेखकाची निवेदन पद्दत, निवेदनाची / कथनाची भास, कांबळी सोडून वडामुळांत बशिल्ले हेर राखणे, गुणाजीन घेतिल्लो वडाकडल्या देंवचाराचो सोपूत, भौमानाकडेन चमत्काराचे नदरेंतल्यान पळोवपाची वृत्ती, फाटीफुडें तुमीय त्या भौमानाचे धनी जावं येता; जावंचेच म्हणून वडाकडल्या देंवचाराक पराथपाची गुणाजीची कृती. काणयेच्या प्रवाहांत देंवचाराक दवरपाचो नाल्ल आनी विडो, गांधीबाबाचे समाधिच्या दर्शनाचो प्रसंग आनी गुणाजीचें गाराणें अशे जायते प्रसंग हे काणयेचें **काणयेपण** सतत जागयत राविल्ले पळोवंक मेळटात. आनी निमाणें, एक भोंवर मारून ही काणी जंय प्रारंभ जाता थंयच म्हळ्यार वडामुळांतूच सोंपता.

काणी सांगपाक येवजिलां तें तंत्र सभाविक आसा. **लोकघाडी निवेदनपद्दति**चो आनी लोकभाशेचो देखदेणो उपेग करपाचें कसब दिश्ट लागत इतले बरे तरेन लेखकान संपादलां. निजाची गांवगिरी आनी सैमसुंदर भास आनी निवेदनतंत्र हेंच ह्या पुस्तकाचें व्हडलें देय आनी श्रेय.

गुणाजीचें व्यक्तिचित्रण जितलें व्यामिश्र जावपाक जाय आशिल्लें तितलें तें जावंक पावूंक ना. ताका लागून 'आत्मचरित्रात्मक' भितरल्या 'आत्म'चें चितारप लेगीत बरे तरेन जावंक ना. **चरित्रचित्रण** तर खुबूच पयस उरलें. गुणाजीचें जें चित्रण लोकांकाणयेच्या सांच्यांतल्यान काडिल्ले वरी दिसता आनी तांतुंतल्यान 'सामको बोडगेश्वर जाला मरे!' हीं उतरां गुणाजीक लेखकान लायिल्ल्या तिब्याचे साद सादयत रावतात. पात्रचित्रण आनी विकासाचे नदरेंतल्यान शंकर सरपंच, गोविंदभट, बायल विठाय, नातू आनी घरचीं हेर मनशां, दिल्लींतलो येंकटेश आनी हेर राज्यांतले राखणे अशीं कांय मनशां **गुणार्जीं**त मेळूं येतात. पूण **गुणार्जीं**त तीं आयल्यांत अद्भूत, चमत्कारी काणयेंत मेळटात तशीं. पळयतां पळयतां अदृश्य जावपीं.

आं, तुमीय गुल्ल जाल्यात? आरे, थंय पळयात. सरयांतलीं गोरवां भायर सरलीं. धांवात, धांवात आपापल्या गोरवांफाटल्यान...

पूण वयली चर्चा विसरूं नाकात! आनी ते खातीर सगळ्यांत पयलीं 'गुणाजी' वाचात. ना जाल्यार चर्चेक मात्तूय 'जिवसाण' उरची ना. चर्चेचोय चमत्कार जातलो.

**गुणाजी**
**पुंडलीक नारायण नायक**
**अपुरबाय प्रकाशन, १९९८**
**पानां: ७०; मोल: ४० रुपया**

REGD No. GOA 130